जाग प्रकाशनाचें

जाग

म्हयनाळें

* संस्थापक संपादपी:
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

* वैचारिक दायज:
स. माधवी सरदेसाय

* संपादपी:
आसावरी नायक

* पालवी संपादपी:
चेतन आचार्य
कृपाली नायक

* उजवाडावपी:
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

* छापपी
हिरू नारायण नायक
रुतु ऑफसेट प्रिन्टर्स,
वळवय, फोंडें-गोंय.

| | | |
|---|---|---|
| वर्सुकी पटी | : | २००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) | : | १५०/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : | ५००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : | ३००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : | ४,०००/- रु. |

पटी मनी ऑर्डरीन वा बँकेच्या मडगांव फांट्याचेर काडिल्ल्या ड्राफ्टान धाडची.
ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.

वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-

# कोंकणीच्या अस्तित्वाचो प्रस्न

'सुनापरान्त बंद पडटकीर एक विचित्र अशी परिस्थिती गोंयांत उदेवन आयिल्ली आमी पळयतात. निर्शेणी पातळ्ळ्या. कोंकणी कार्यकर्त्यांक दिका ना जाल्या. हेविशीं गंभीरपणान भासाभास जातनाय दिसना. ना म्हळ्यार, काय तरनाटे घटक आनीक एक कोंकणी दैनिक सुरू जावचे म्हूण यत्न करतात. तांच्या यत्नाक यश लाबतनाय दिसता. घडये रोखडेंच एक नवें दैनिक सुरू जावं येता.

पूण, परिस्थिती तीच दवरून नवे दैनिक सुरू जाले जाल्यार ताचीय गत्त 'सुनापरान्ता'वरीच जावचिना व्हय?

ती परिस्थिती किते?

१) वाचक चळवळ थंडावल्या. सतत वाचपी, प्रतिक्रिया दिवपी, गिन्यानात भर घालपी अशे तरेची चळवळ आमचे कडेन ना. वाचक प्रतिक्रिया दिनात. ताका लागून तांका किते जाय, किते मानवता, किते नाका ताची सुलूस लागना. अशी चळवळ घडोवपाचो यत्न जावंक जाय.

२)वृत्तपत्राक लागपी बरोवपी. ते साप थोडे आसात. तांकां शिस्त ना. आमकां पत्रकार, नवे लेखक, संशोधन करुन बरोवपी सातत्यपूर्ण लेखक जाय. हे लेखक नवे किते वाचपाची उमळशीक वाचप्यांमदीं निर्माण करतात. ते साहित्य कोंकणींतल्यानूच मेळटा. हो भरवंसो वाचप्यांक दितात.

३) वेवस्थापन वेवसायीक जाय. खबरापत्र सुरू जावचे आदीं ह्या वेवसायाविशी जाणविक आशिल्ले, खपाविशींचे तंत्र जाणा जाल्ले, कल्पक आनी धाडशी कुशळ वेवस्थापन ही आयची गरज. ताका फकत दुडू जोडप हीच मोख आसूंक उपकारना. जाल्यार कोंकणी आनी गोंयांविशीं कळवळोय जाय.

४) नवे विक्रेते तयार करूंक जाय. गावागावांनी नवे विक्रेते तयार जावंक जाय. खुबशा कोंकणी वाठारांनी, जंय पारंपारिक कोंकणी मोगी आसात, थंय पेपर पावतलो हाची वेवस्था जाय. ताजेखातीर 'सेवा' हे तत्व बाळगुपी नवे वावुरपी विक्रेते तयार करप एक आव्हान.

५) बातमीदार. गोंयात तेच तेच खबराकार सगल्या खबरापत्रांक बातम्यो धाडटात. ताका लागून सगळी वर्तमानपत्रां एकसारकीं दिसतात. तेन्ना नवे कल्पक, धाडसी खबराकार आनी प्रशिक्षण दिवप, नवे कल्पक लिखाण बरोवन घेवन हे एक कौशल्य.

६) वेवसायिक कौशल्य निर्माण करचेखातीर कोंकणी वाचप्यांक वेगळे खबरापत्र कसले जाय हाचेपासत एक सर्वेक्षण हातांत घेवंक जाय. हे काम वेवसायिक संस्थेकडल्यान जावचे. एकूच कोंकणी खबरापत्र वाचप्यांचे पुराय समादान करूंक शकना. कोंकणी खबरापत्र (वाचपाचे) ताचे दुसरे पत्र आसल्यार ताका नवे किते तातूंत मेळूं येता हाची वेवस्ता जाय.

एका अर्थान कोंकणी खबरापत्र बंद पडिल्ल्यान खूब जाणांक आसुरी आनंद जाला आसूं येता. कोंकणींत खबरापत्र चलूंक शकना. कारण ती भासूच न्हय. दबावतंत्राक लागून कोंकणीक राजभाशेचो पाट लाबिल्लो. आता ती धापिल्ली मूठ उक्ती जाल्या अशे तरेचो समज पातळ्ळा.

आनीक एक, न्हिविल्ल्या कडेयेक खतखतो हाडपाचो यत्न चलता. कोंकणी ही भासूच न्हय, ती अडेची बोलीभास अशे तरेचो समज पातळावपाचो हो यत्न. काय अडाणी लोक तो यत्न करतात. पूण हालींच उजवाडा आयिल्ल्या प्रा. पराग परब हांच्या पुस्तकांत तेविशींचो उल्लेख आसा.

पराग परब हांणी भाऊसायब बांदोडकरांच्या सामाजिक वावराचेर उजवाड घालपी हे पुस्तक बरयला. तातूंत तांणी सामाजिक चळवळीचेर संशोधन केला. तेचपरी गोंयांतली सामाजिक परिस्थिती मांडटना फाटल्या शेंकड्यांनी वर्सांचो इतिहास ढवळ्ळा. तातूंत सारस्वत समाजाची धोंगापोगा दाखयल्यात. ह्या समाजान आपणालो शेक निर्माण करचेपासत आनी आपूण सर्वश्रेश्ठ समाज म्हूण मान्यताय मेळोवचेपासत जी काय गुड्डेलसावां केली, तातूंत तांणी आपणाली भास म्हणून कोंकणी भाशेक फुडे काडली आनी आपमतलबी डाव रचलो असो एक सोद लायला.

हे आदी खूब जाणांनी कोंकणीक सारस्वतांची भास म्हळ्या. पूण ताचे फाटली मोख कोंकणीपसून भौजन समाजाक पेल्यात काडप हीच आसली. कोंकणी ही खूब पोरणी भास, अशें आमचे संशोधक म्हणीत आयल्यात. कुन्य रिवार आनी दाल्गाद ह्या पोर्तुगीज अभ्यासकांनी तिचो अभ्यास केला. ती

# जाग

वर्स ४२ : आंक ३ : ऑक्टोबर, २०१५

**०३** **दरेक शतमानात आमी सॉक्रेटीस मारत आयल्यात**

*नंदकुमार कामत*

**०४** **देशाचे प्रतिमाविद्येक नवें मोडण दितना...**

*पिटर रोलंड डिसोझा*

**०६** **सांस्कृतीक वस्तुस्थितीकडेन आडनदर नाका**

*श्रीधर कामत*

**०७** **भाशा माध्यम : दिशाभूल न्हय, दिशा जाय**

*संदेश प्रभुदेसाय*

**१६** **आमचे भाशेक राश्ट्रमान्यताय मेळ्ळया, पूण...**

*उल्हास पै रायकार*

**१८** **म्हजो रवीन्द्र सांगात** (बाविसावी खिस्त)

*दिलीप बोरकार*

**२०** **दिसपटी** (सदतिसावी खिस्त)

*शांताराम आमोणकार*

**२२** **जिवीतांत अणभवाची सांगातीण**

*कृपाली नायक*

**२५** **परमळीत जीण म्हजी** (पांचवी खिस्त)

*सुहाश यशवंत दलाल*

**२८** **गांजील मूस** (कथा)

*माया अनिल खरंगटे*

**३२** **कविता**

*आर. रामनाथ, परेश नरेंद्र कामत.*

भायले चित्र :
भितल्ली चित्रा : पान ३२ : अदिती नायक

तेजिश्ट भास आसली म्हूण पोर्तुगीजांक तिचेर बंदी घालन दिसली. मराठीक तांणी चिड्डीलिना. अशें आसले तरीय कोंकणी खऱ्या अर्थान फुलून आयली फाटल्या ६०-७० वर्सांत हेय तितलेंच खरें. जिका भासूच न्हय म्हण्टाले, व्याकरण ना म्हण्टाले, बोली भास मानताले, तिका तिच्या भयण भासांचे उंचेले पंक्तीक बसोवपाचे काम फाटल्या काय वर्सांत जाला, आनी तो आकांत तांकीचो वावर हे ना म्हणूंक येना; ते नदरेन ह्या वादाचेर श्रीधर कामत हांणी बरयिल्लो लेख आमी ह्याच आंकांत उजवाडायला. ताचेर भासाभास जावची अशे आमकां दिसता.

खरेपणी कोंकणीचे जे अभ्यासक आसात तांणी ह्या संशोधनाच्या वावरांत आनीक खोल वचूंक जाय. कोंकणीचे शिक्षक, चड करून म्हाविद्यालयीन पावंड्यार शिकोवपी आसात, तांचेकडल्यान चड अपेक्षा आसा. ते संशोधनाच्या दर्यांत खोल बुडकी मारून नवी नवी रत्ना वयर घेवन येतले, अशी आस्त आसा.

संशोधन जावंक वाव आसा अशी जायती मळां आसात. कुन्ह रिवार हांणी केल्ल्या वावराचीय मोलावणी जावप शक्य आसा. प्रा. परब सारकीले संशोधक म्हण्टात की रिवार हो पोर्तुगीजांचो अधिकारी. आपणाल्या धनयाक जाय तशें तांणी बरयले. उच्चवर्णीय सांगतात ते प्रमाण मानले. पूण म्हालगड्यांनी देवनागरी हो जाणीवपूर्वक घेतिल्लो निर्णय आसलो हे मानून घेवंक जाय. प्रा. परब मानतात की आयज आमी चर्च धर्मसंस्थेक कितलेय दुशण दिले तरी तांका लागूनच कोंकणीच्या वावराक सुरवात जाली. फा. थोमास स्टिफन्स आनी हेरांचो वावर म्हत्वाचो आसा. तियात्रांनी केल्लो वावर आडनदर करूं नजो. पूण देवनागरीन साहित्यिक भास घडयली हे नाकारूंक जावचेना. माधवी सरदेसाय हांच्या ह्या वाठारांतल्या संशोधनाक म्हत्व आसा. माधवीचे संशोधन म्हण्टा, कालचे परस आयचो वावर म्हत्वाचो. हालींच्या वर्सांनी कोंकणीन आपणाले अस्तित्व दाखोवन दिवंक जो वावर केला तो म्हत्वाचो. शणै गोंयबाब हांणी विसाव्या शेंकड्याच्या पयल्या अर्दांत हे भाशेक जिती तट्टटीत करूंक तकालस घेतली. म्हणूनच तांकां आधुनिक कोंकणी साहित्याचे शिल्पकार म्हण्टात. शिंपडिल्ल्या कोंकणी समाजाक वयर काडटलो जाल्यार कोंकणी जाय हो तांचो मंत्र आसलो. कोंकणी उलोवप्यांमदीं एकचार आसचो हे तांचे सपन आसले. तांचे संशोधन बारीक नियाळीत जाल्यार दिसतले की तांणी तांचेवेळावेल्या 'ब्राह्मणी' कोंकणीपरस भौस उलयता ते भाशेक केळोवपाचेर भर दिलो. ह्या वावरांत ते सातेरीमायक होरायतना दिसतात. गोंयांतल्या सगल्या हिंदू समाजाची ही देवता. 'आकवार मोरी'कूय सादोवन ते किरिस्तांव भावांक लागी वचूंक सोदतात. खरेपणी कोंकणी ही भौसाक लागीं वचपी भास आसची हे तांचे उमाळे आसले, अशें माधवी सरदेसाय बरयतात. स्वता रवींद्र केळेकार हांणी कोंकणी चळवळ ही 'राजकीय' चळवळ अशें म्हळा. गोंय महाराष्ट्रांत विरघळावन वचचे न्हय म्हूण जी चळवळ चल्ली तिचो आदारुच कोंकणी अस्मिता हो आसलो. हाचो अर्थ असो की कोंकणी नासली जाल्यार गोंयचे अस्तित्वूच खंय आसपाचे? सारस्वत आनी हेर समाज सोपेपणान महाराष्ट्रांत विरघळपाचे. पूण ख्रिस्ताव समाजाचे कितें जावपाचे? रवीन्द्र केळेकार हांणी सगळो कोंकणी प्रदेश एक करपाचेय सपन पळयिल्ले.

खरेपणी हे एक आव्हान. कोंकणी खबरापत्र परत सुरू जावप हे जशे आव्हान तशेंच कोंकणींत संशोधनाचे मळ आनीक गिरेस्त करप हेंय एक आव्हान. अशा तरेच्यो वादविवादांतल्यानूच संशाधनाक उर्बा मेळटा. आमचे लेखक, शिक्षक हांका हो वाद उर्बा दितलो अशी आमकां आस्त आसा.



# दरेक शतमानात आमी सॉक्रेटीस मारत आयल्यात

**नंदकुमार कामत**

"तू इतलो सुबेज उलयता मरे. उपनिबदांचेर बी भाश्य करता खंय.'' आपणाक व्हड हिंदू बी समजपी तो जांटेलो एके सभेउपरांत म्हजे खोमीस ओडून वाद घालतालो. ''म्हाका सांग तुज्या बापायच्या फोट्यार तू थुंकतलो?'' आता अशा मनश्याक कितें सांगतलो? 'हय', हांवें म्हळें. कितलेय आल्यार वैज्ञानिक संशोधनान जी छायाचित्रण कला तयार केली त्या संशोधनाक लागूनच तयार केल्लो फोटू तो. ताजेर हांव थुंकल्यार म्हज्या बापायचो अपमान बी कांय जावचो ना. मागीर हांव म्हजी लाल पुसून फोटो आनिक निवळ करतलो, कळ्ळे? रावात, हे पळयात फोटू म्हळ्यार म्हजो बापूय न्हय. आनीक थुकप म्हळ्यार अपमान न्हय. जांटेलो शेळेलो, - 'तुका मस्ती माल्ल्या रे' ताणे म्हळे, आनीक गर्देत नाच जालो. पूण म्हजे समादान जावंक ना. इतल्यान हो प्रसंग पळोवपी आयकुवपी एक मनीस लागी आयलो आनीक म्हणूक लागलो - 'तूं सगळ्याचेर थुकतलो?' ना हांवें म्हळे - भारतीय संविधान जे जे पवित्र बी मानतां ताजेर ना. खंयच्याय व्यक्ती, देव-दैवताचेर, फुडाऱ्याचेर ना. ती माथेफिरुपणा जातली. पूण म्हजो बापूय, आवय,भाव, हांव तीं जापसालदारकी घेता आनीक तूंवय म्हज्या फोट्यार थुकलो, पुतळो बी करून लासलो तरीय म्हाका कायच दिसपाचे ना. 'खरे तुजे' त्या मनशान म्हळें. 'पूण हालीसारा अशे उलयल्यार बी तुका फार पेटोवन मारतले.' खरेच, हांवें म्हळें. 'बरे जाले मरे, समाजातली एक पीडा गेली ना? तूं येतलो मरे हांव असो मेल्यार म्हज्या मरणाक?' तो मनीस तोण वाकडें करून गेलो.

हांव आयज हे बरयतना सॉक्रेटिसाचो उगडास करता. पर्यावरण मळार वावर करपी कितल्याच जाणांची हत्या जाल्या. सुपारी दिवन आनीक सुपारी दिनास्तना सुद्दा खूप जाणाक मारल्यात. नरेंद्र दाभोळकर, कॉम्रेड पानसरे, कलबुर्गी हांची फार पेटोवन हत्या जातकीच आता अस्तंत, दक्षिण भारतांतले वातावरण तापूंक लागला. पूण आमी सॉक्रेटिसाची काणी वाचली जाल्यार होलमता - 'खरेंच संवसार खंय बदल्ला?' एक पोरणे यंत्रयुग वचून नवे आयले. मनीस, मेंदू तेच. राग, मत्सर, दुस्वासाची उत्क्रांती जावंक ना. मनश्यातले जनावर आसा तशे लिपून बसला. खंयचेय शतमान येवं. हे जनावर त्या कदीमकालच्या काळखी होंवरेतल्यान भायर येता. ते तशे भायर येता तेन्ना हत्या जाता.

बारीकसाणेन नियाळ घेत जाल्यार आमका कळतले, दरेका शतमानात सॉक्रेटीस जल्माक येतात आनीक दरेका शतमानात मनश्यातले ते जनावर भायर सरून तांकां मारता. जे जिवे उरतात तांकांय तशेंच हाल हाल करून मारतात.

दाभोळकर, पानसरे, कलबुर्गी, नेमाडे हाणी कितेंच नवे सांगूंक ना, ताणी तत्वगिन्यानांक खबर ना अशे कसलेच नवे शास्त्र घडोवंक ना. कसलेच उलथापालथ बी घडोवपी सिद्धांत मांडूंक ना. दाभोळकर, पानसरे, कलबुर्गी - सगळे बुद्धी प्रामाण्यवादाचो पुरस्कार करपी.

पूण आमची शब्दनिश्ठा, पोथी निश्ठा चड. बायबल, कुराण म्हळ्यार तर देवाचीच उतरां न्हय?

हाणी सांगला तांच्यांपरस कडक उतरां वि. दा. सावरकर, स्वामी विवेकानंदान बरयल्यात. रॉयीस्ट संस्कारातले अज्ञेयवादी, तर्कतीर्थ लक्ष्मणशास्त्री जोशी 'तीर्थ' घेताले आणि शब्द प्रामाण्याची बोतरां करून उडयताले. आयज तांका ते जड वचपाचे.

नशिब आमचे, समाजवादी विचारवंत नरहर कुरुंदकर सुटले. हमीद दलवाई सुटले. गोंयांत शरीयताआड झुजपी रशिदा मुझावर सुटली. केरळांतलो बी. प्रेमानंद, महाराष्ट्रांतलो शाम मानव सुटलो. ज्योतिष बी सगळे झूठ म्हणपी डॉ. जयंत नारळीकर सुटले.

सॉक्रेटिसांक दरेक शतमानात मारपी हे कोण? ही एक व्यक्ती

नासता. एक भंय आसता. एक भयगंड आसता. महात्मा गांधीची हत्या करतल्यान मोहम्मद अली जीनाक पयली उडोवपाचे चितूंक ना. भंय गांधीजीचो नाशिल्लोच. भंय गांधी नांवाच्या सॉक्रेटिसाचो आशिल्लो. भंय गांधी विचारांच्या प्रसाराचो आशिल्लो. गांधी सोपेपणान १०० वर्सा जियेल्ले जाल्यार?

प्राचीन काळासावन विचारांची एक फास्की चलत आयल्या. तिका सॉक्रेटिसान आव्हान दिले. चिकित्सेची एक परंपराच ताणे फुडे हाडली - जी आयज शिक्षणांतूय आमी वापरतात. पूण आमच्या वैज्ञानिकांनी नव्यो सॉक्रेटिसी परंपरा उब्यो करुंक नात. समाजांत सुबेजपणा वाडोवंक ना. लोकांच्या, भौसाच्या तोणाक गुड्डे मारपाचे राजकारण मात वाडले. हेच दाभोळकर, पानसरे, कलबुर्गीक पचना जाले.

हांका कोणे आता कित्याक मारले ते जाणा जावपाक आमका नरहर कुरुंदकरांच्या 'जागर' आणि 'शिवरात्र' ह्या पुस्तकांतली कांय प्रकरणां बारीकसाणेन वाचची पडटली. मागीर कोणाक ह्या सॉक्रेटिसाचे उस्तुरे वता ते कळतले.

हांव व्हड धाडशीपणान ह्या लेखांत एक विधान करता. ताका लागून म्हजेरूय फार पेटूंक शकतात. पेटू.

दाबोळकर, कलबुर्गी, पानसरेचे मारेकरी निखालस हिंदू न्हय. हे शडयंत्र देशाभायर शिजयला. एक ना एक दीस वास्कोच्या बाँबस्फोटाभाशेन हे सत भायर येतलेच. इतल्यारुच सद्या पुरो.

संपर्क : 9423889629



# देशाचे प्रतिमाविद्येक नवें मोडण दितना...

**पिटर रोलंड डिसोझा**

पारीस शाराचो नकासो फ्रान्स देशातल्या प्रतिमा विद्येची अभिमान दिसपा सारखी गवाय दिता. व्हॉल्तायर, आंद्रे मालरू, व्हिक्टर ह्यूगो आनी एमिल झोला अशा नामनेच्या बरोवप्यांच्या नावाचे रस्ते थंय आसात. सेंट मायकला सारख्या कॅथोलीक संताच्या नावाचो चौक थंय आसा. कॉन्कॉर्द हे यादस्तिक म्हळ्यार सोळाव्या लुइसाक आणि रॉबिस्पियेक फांसार चडयिल्लें ठिकाण. तें आनी पॅन्थियाँ - जंय नामनेचे फ्रेंच विचारवंत तशेच संस्कृतीक आनी राजकी मळावेले दिग्गज निमणो सुशेग घेतात ते थळ - म्हळ्यार पारिसांची खास आकर्शणां. मूर्ती विद्येच्या या भौशीक प्रदर्शनांत कलेक खाशेली सुवात आसा. कितलींशींच संग्रहालयां शारांत आसात. एक दफनभूंय आसा, जंय ऑस्कार वायल्ड आनी जीम मॉरीसन निमणो विसव घेतात.

खंयच्याय देशाक अशी स्वताची प्रतिमा विद्या आसप गरजेचें. तिचेवरवीं त्या देशाच्या आपले विशींच्या कल्पनांक नवीं पाखां फुट्टात आनी त्या कल्पना विस्तारांत व्हड व्हड घडणुको, व्यक्ती, कलात्मक वस्तू तशेंच यादींचो सुमेळ घडटा. आपल्या देशा विशीं थंयचे जनतेच्या मनांत विश्वास निर्माण जावचे खातीर अशा यादस्तिकांची भोव गरज आसता. हीं यादस्तिकां त्या देशाचे संकल्पनेक साकार करतात, व्यक्तीमत्व दितात.

स्वातंत्र्य मेळटकच आमी ते दिशेन उमळशिकेन यत्न करपाक लागले. दरेका म्हत्वाच्या शाराक महात्मा गांधी रस्तो मेळ्ळो. स्वातंत्र्या उपरांतच्या दशकानीं, संवसारभर वसाहतवादाचो अस्त जायत आसतना दिल्ली शारान आपले कडेन मानवतावादी राजकारणाची मक्तेदारी घेतली आंनी आपल्या रस्त्यांक मुस्तफा केमल अतातुर्क, जोसीप ब्रॉझ टिटो आनी ओलोफ पाल्मेचीं नांवां दिलीं. आफ्रिका अव्हेन्यू, मॅक्सम्युलर मार्ग, लोधी गार्डन आनी बंगाली मार्केट ह्या नामकरणांनी नव्या देशाच्या सर्वधर्म समभावाचे दर्शन घडपाक लागलें.

अजुनूय बऱ्योच घडणुको आमकां मनोवपाच्यो आसात, कितल्याश्याच फुडाऱ्यांचें स्मरण करपाचें आसा, साबार आंदोलनाच्यो यादी जागोवपाच्यो आसात. आमच्या कवळ्या देशाकडेन प्रतिमा विद्येचें गिरेस्त दायज दिवचे ताकतिकेंत आसतना बऱ्याच थळांक आमकां अजरंवर करपाचें आसा. तशें करतना गरज आशिल्ली ती प्रेरीत जाल्ल्या मोठ्या मनाच्या फुडारपणाची. फाटल्या धा वर्सांच्या काळांत तरी तसलें फुडारपण दिसलेंच ना. प्रतिमा सृश्टीची निर्मणी करतना आमच्यो कल्पना मोटव्योच जायत गेल्यात.

देखील गोंयच्या इस्कॉला मेडिको -सेरुर्जिका दी (नोव्ह) कॉलेजीक राजीव गांधी मेमोरिअल मेडिकल कॉलेज आनी हॉस्पिटल अशें नोंव आमी मार नेटान दिलें. १८४२ वर्सा स्थापन जाल्लें हें आशियांतले एक पुरातन वैजकी महाविद्यालय. ताका आमच्यान फ्रान्सिस्कू लुईस गोमिशाचें नांव दिवं येतालें. गोंयचो हो नामनेचो पूत त्याच महाविद्यालयाचो विद्यार्थी. एक फिजिशिअन, बरोवपी, अर्थतज्ञ आनी भौभाशीक आशिल्ले डॉ. गोमीश १८६० वर्सा ते संस्थेचे मुखेल सर्जन जाले. पूण आमचीं लेंगेलेंगे करपाची वृत्ती आनी आमच्या दायजा कडेन आडनदर करपाच्या सुबेजपणाक जागून आमी संस्थेक नाव दिलें राजीव गांधींचें. त्या फुडाऱ्याच्या नांवान आमचें कडेन एक विमानतळ, एक शिक्षणीक शार कितलेशेच रस्ते आनी इमारती तसेंच साबार कल्याणकारी येवजण्यो आसात. एका वैजकी महाविद्यालयाक तांचे नाव दिवंक नाशिल्लें जाल्यार खंयच कांय इबाडचें नाशिल्लें. जांकां यादींत दवरूंक जाय अशे कितलेशेच फांकीवत आमचे कडेन आसात. पूण फाटल्या कांय वर्सांत आमी मनाचें

मोटवेंपण दाखयत फकत एकाच घराब्याक उखलून धरलें आनी आमच्या देशाच्या भौआयामी व्यक्तीमत्वांचेर अन्याय केलो. अशें परतून जावपाक फावना.

भारतीय जनता पक्षाचे नवे राजवटींत हेंच मोटवेंपण दिसतलें असो भंय म्हज्या मनांत आसा. फकत हिंदुत्ववादाचो थातोमातो करपी विनायक सावरकर, श्यामाप्रसाद मुखर्जी, दिनदयाळ उपाध्याय आनी एम.एस. गोळवलकर हांकांच आतां नाचयतले. चंद्रशेखर आझाद, मोहम्मद आनी शौकत अली हे भाव हांका कोणूच हिशोबांत लेगीत धरचेनात. गोंयचे प्रखर राष्ट्रवादी टी.बी. कुन्हा हांकांय कोण विचारचोना.

पुराय समाज आनी ताच्या इतिहासा कडेन आडनदर आनी ताचो अनादर करपाचे वृत्तीचें उदाहरण म्हणून गोंयां कडेन पळोवं येता. गोंय हे भुगोलीक नदरेन सामकें ल्हान राज्य. वेगळ्याच तरेच्या वसाहतवादान ताका इतिहासूय वेगळो दिला. फ्रान्सिस्कू लुईस गोमिशाचें ज़ीवीत म्हळ्यार ह्या इतिहासाची गवाय. तरींय ताचे कडेन आमी आडनदर केली. आनी वयल्यान १९९० वर्सा स्थापन जाल्ल्या गोंयच्या राष्ट्रीय उदकां खेळ संस्थेक श्यामाप्रसाद मुखर्जीचें नांव दिलें. ह्या नामकरणाचो विसर आता तें करतल्यांकूय जाला आसपाक जाय. कारण ते संस्थेच्या वा पर्यटन मंत्रालयाच्या संकेतस्थळार तसो उल्लेख खंयच दिसना. दाराचेर आशिल्लो एक तकटो मात ती याद दीत उबो आसा.

हातूंतल्यान आमची यादस्तिकां विशींची अनास्थाच दिसता अशें न्हय, जाल्यार यादस्तिकांविशींच्यो आमच्यो धारणा कितल्यो वयलेचाराच्यो आसात तेंय दिसून येता. गोंयांक दर्यावर्दी इतिहास आसा. हे दर्यावर्दी परपरेंत गोंयचें नांव आशिल्लें गोपकपट्टण. तें नाव ते संस्थेक दिवं येतालें. श्यामाप्रसाद मुखर्जीचो गोंयां कडेन व्हडलोसो संबंद येवंक ना. घडये तांचो उदकां खेळां कडेन संबंद आसत, कारण दिल्लीच्या एका स्विमिंग पुलाक तांचें नांव दिलां.

ही मोटवी नदर सोडून दिवन सगळ्यांक आसपावन घेवपी मानवतावाद आपणावचे खातीर नवें प्रतिमा शस्त्र घडोवंक जाय. नवे दिल्लींत जंय म्हत्वाचे संगीत जलसे जातात त्या नेहरू पार्काचें नांव अमीर खुसरो पार्क अशें दवरून आमी सुरवात करुया. त्या म्हान कवी आनी संगीतकाराचें नांव ह्या उद्यानाक दिवपाक नेहरूंची लेगीत हरकत आसची नाशिल्ली हाची म्हाका खात्री आसा. मातशें मुखार वचून आमी रेस कोर्स रस्त्याचे नामकरण बिरसा मुंडा रस्तो अशें करुया, म्हणटकच आमच्या प्रधानमंत्र्यांचो नामो ७, बिरसा मुंडा रस्तो असो जातलो. ते वरवीं त्या आदिवासी फुडाऱ्यांची याद फकत आमच्या प्रधानमंत्र्यांकूच न्हय तर तांचे भेटेक येवपी परदेशी फुडाऱ्यांकूय जातली. ऑल इंडिया इन्स्टिट्यूट ऑफ मेडिकल सायन्स हे संस्थेक आमी मदर तेरेझांचें नांव दिवया. हेरांविशींची ममता म्हळ्यार कितें हाची गवाय ते वरवीं देशाक मेळटली. नवे दिल्लीच्या रेल्वे स्टेशनाक ह्युएन त्संग ह्या चिनी प्रवाश्याचें, विज्ञान संग्रहालयाक आर्यभट्टाचें नांव दिवया. जंय सदांच कलेचो उत्सव जायत आसता ते मंडी वाठाराक अभिनवगुप्तांचें नांव दिवया. सैमीक इतिहासाचें आयचे काकुळट करपा सारखे अवस्थेंत आशिल्लें संग्रहालय म्होडून आमी थंय भव्य अशें नवें संग्रहालय उबारुया आनी ताका फाकीवंत गणिती श्रीनिवास रामानुजनांचे नांव दिवया.

पारीस शाराकडेन सर्त करपाची तांक आशिल्ली संस्कृतीक घटसाण दिल्लीक दिवपी अशीं कितलिशींच नामकरणां हांव सुचोंवक शकतां. पूण ती एकतर्फी करणी जातली. अशे तरेची मनमानी टाळपा खातीर म्हाका एक सर्वसमावेशक आनी कल्पक धोरणाचो आराखडो सुचोवचो सो दिसता. आमी तीन स्तरांचेर नावांची वळेरी तयार करपाक जाय. पयली वळेरी राष्ट्रीय स्तरा वयली. थंय आमी राष्ट्रीय घडणुको, आंदोलनां, संघर्श आनी तांचे सकारात्मक योगदान मतींत घेवपाक जाय. थंय एक गांधी स्मृती, एक जवाहरलाल नेहरु विद्यापीठ, एक ध्यानचंद स्टेडियम, एक लोधी गार्डन आनी एक दिन दयाळ उपाध्याय मार्ग आसप समा कशें दिसता, पूण तेच बराबर श्यामाप्रसाद मुखर्जी स्विमिंग पूल वा आंबेडकर बस स्थानक वा मदर तेरेझा क्रिसेंट आसप विचित्र दिसता. आमी यादस्तिकां उबारतना ती जांचे यादींक लागून उबारतात त्या मनशाचें मोठेपणूय मतींत धरूंक जाय. आमी एम. एस. सुब्बलक्ष्मीचें नांव संगीत अकादमीक आनी भारताच्या सरन्यायाधिशाच्या चेंबराक आंबेडकरांचें नांव दिलें जाल्यार तें चड सोबून दिसतलें.

दुसरी वळेरी प्रांतीय आसतली. जालियाँवाला बाग हत्याकांड, आत्म सन्मान आंदोलन अशा घडणुकांच्यो यादी जिव्यो दवरपाक आमी यादस्तिकां उबारूंक जाय. अन्यायाच्या विरोधांत उबे राविल्ल्या नर्मदा बचाव सारख्या लोक आंदोलनांचीय याद आमी दवरूंय जाय.

तिसरी वळेरी थळावी आसची. थळावो खेळगडो वा संगीतकार वा लोकअधिकारां खातीर झुजपी कार्यकर्तो हांचो भोवमान जालो जाल्यार आमकां थळावे प्रतिमासृश्टी खातीर बळगें दिवप शक्य जातलें.

हें सगळें करतना आमी तातूंत भौसाक आसपावन घेवया. ताका लागून सर्वसमावेशकताय तर येतलीच पूण भौशीक भासाभासूय जावन पडटली. आमच्या संस्कृतीक वैविध्याक फाटबळ मेळटलें.

आमी आमच्या भौशीक यादींची पेट उगडून थंयच्या यादींचें बऱ्यो आनी वायट अशें वर्गीकरण करपाक जाय. ह्या वर्गीकरणाक आपल्याक जाय तसो आकार दिवपाचें मनाचें कोतेंपण सरकारान दाखोवंक जायना. विंगडाय मिरोवपी देशाक प्रतिमाविद्येतली विंगडाय आसपूय भोव गरजेचें. विसर पडप ही देशाक आर हाडपी व्याधी हाचो विसर आमकां पडूंक फावना.

(बरोवपी राज्यसभेंतल्या डॉ. सर्वपल्ली राधाकृष्णन अध्यासनाचेर आसात तशेंच दिल्लीत सेंटर फॉर डिव्हेलॉपींग स्टडीजांत शिकयतात.)
संपर्क: 09999728408



# सांस्कृतीक वस्तुस्थितीकडेन आडनदर नाका

**श्रीधर कामत**

श्री. पराग परब हांणी बरयल्ले 'इंडियाज फस्ट डेमोक्रॅटिक रेव्होल्युशन' हे हालींच उजवाडाक आयल्लें पुस्तक. अभ्यासपूर्ण नदरेन आनी इतिहास लेखनाची आधुनीक तशेंच विज्ञानीक बसका सांबाळून श्री. पराग परब हांणीं हें पुस्तक बरयलां. पुस्तकाच्या पयल्याच प्रकरणांत कोंकणी भाशेचो उल्लेख आसा. हिंदू आनी क्रिस्तांव भौसाचें कोंकणीचें बोली-स्वरुप कुशीक उडोवन बामण (सारस्वत) उलयतात तीच कोंकणी बोली सद्याक प्रचलीत ठरल्या असोय निश्कर्श तांणी काडला. तरीकूय तांच्या ह्या निश्कर्शाक फावो तो संदर्भय पुस्तकांत आसा.

कोंकणी उलोवपी प्रदेशांत बामणांक आशिल्लो तथाकथीत उच्चवर्णीयाचो दर्जो, ताका लागून प्राप्त जाल्लें सामाजीक आनी अर्थिक स्थान, राज्यसत्तेकडेन आशिल्ले घनिश्ट संबंद आनी हांचो सगल्यांचो वापर करून भौसाची जाल्ली असमर्थनीय पिळवणूक ही इतिहासीक सत्यां भोव बरेतरेन पुस्तकांत अधोरेखीत जाल्यांत.

पूण सद्याची प्रचलीत कोंकणी ही बामणांची भास 'LINGUA BRAHMANICA' काय कितें असो मुद्दो जेन्ना मुखार येता तेन्ना हेर कांय परिमाणां लक्षांत घेतल्याबगर चित्र फावो तितलें स्पश्ट जायना.

पुर्तुगेजांआदी, पुर्तुगेजकालीन तशेंच गोंय मुक्तीउप्रांतची कोंकणीची स्थिती लक्षात घेवन मुखार वचचें पडटलें. त्याचबरोबर फकत इतीहासीक आनी भाशीक नदरेवांगडाच हेर सांस्कृतीक आनी सांस्कृतीक वस्तुस्थितीय समजून घेवची पडटली.

पुर्तुगेजांआदीं कांयकडेन गांवकारीच्यो नोंदी हळे-कानडी वा नागरी लिपींतल्या कोंकणीत आसतल्यो. तेन्नाचे कुलकर्णी चडशे बामणच आशिल्ल्यान तांची शैली बरपांत आयल्याच आसतली. पूण इतल्यान कोंकणी 'बामणी' जावंक शकता काय? तशें जाल्यार लोकवेदाचे कितें?

*'गांवांत सोंसो येयला रे*
*त्या सोंश्याक बायण भिला रे'*

अशें शिगम्याचें एक पद काणकोण वाठारांत आसा. हातूंतली बामणाचो Paranoia आनी ताजेवेल्यान केल्ली फकाणां सहज स्पश्ट जातात. पूण त्याचबरोबर हांगा वापरील्लो 'भिला' हे उतर म्हाका एका वेगळ्या अर्थान महत्वाचे दिसता.

मराठी प्रमाण भाशेंत 'भिवप' म्हळ्यार 'घाबरणे'. पूण मराठी भौस 'घाबरना'. तो 'भिता'. छत्रपती शिवाजी महाराजांच्यासारको राजाश्रय मेळूनय मराठीच्या प्रमाणीकरणांत तथाकथीत अभिजनांच्या शैलीचोच वापर जाता. पूण अशें म्हणून मराठी जर 'ब्राम्हणी' ठरना, तर मागीर 'कोंकणी' 'बामणी' कशी?

कोंकणी प्रदेशाक आपलो 'राजा' केन्नाच मेळूंक नाशिल्ले कारणान कोंकणीक राजाश्रय मेळूंक पावलोना हे सभावीक आसा. पूण तरीकय कोंकणी लोकांच्या ओंठार आशिल्ली आनी दिसपट्ट्या वेव्हारांतय आशिल्ली. नाजाल्यार सतराव्या शतकांतल्या पुर्तुगेज 'फतव्यांत' कोंकणीचेर बंदी येवपाचे कारण ना. इगर्जेच्या धर्मप्रसारकांकय कोंकणीचे महत्व कळिल्लें; म्हणूनच तर ताणी रोमी लिपयेचें वस्त्र न्हेसोवन कोंकणी आपणायली.

धर्मछळाक लागून खूबश्या प्रमाणांत हिंदू भौस मराठीक लागीं पावलो. तडजोडी केल्यो त्यो चडशो बामणांनीच. पूण लोकवेद सांबाळून दवरलो तो हिंदू आनी क्रिस्तांव भौसानच. सत्तेक लागीं आशिल्ल्यान हिंदू आनी क्रिस्तांवांमदल्या तथाकथीत उच्चवर्णीयांक भाशीक नदरेंतल्यान चड त्रास जालेशे दिसनात. हिंदूखातीर मराठीचो आलाशिरो आशिल्लो. पळोवंक गेल्यार भाशीक घुस्मटमार चड प्रमाणांत जालो तो क्रिस्तांव भौसाचोच. मनोरंजन आनी आपले उमाळे, उत्फर्के उक्तांवक तांकां खासा तांचो असो 'तियात्र' जल्माक घालचोच पडलो.

कुन्ह रिवेर हांणी बरयल्या 'कोंकणी भाशेच्या इतिहासाचो निबंद' वाचून स्फूर्त घेवपी हिंदू आनी क्रिस्तांवामदीय आशिल्ले. शणै गोंयबाब तांतूतलो एकटो.

शणै गोंयबाबांक आशिल्ली तांच्या बामणपणाची व्हडवीक, हेर कांय सामाजीक मुद्द्यांचेर तांणी उक्तायल्ली प्रतीगामी स्वरुपाची मतां सगळ्यांच्या मुखार आसात. पूण अशे म्हणून तांणी केल्लो भाशीक आनी संशोधनात्मक वावर नदरेआड करपाचो व्हय? गोंयांत रिपुब्लाका १९९० उपरांत जे मेकळें वारें आयलें ताजो प्रभाव वेगवेगळ्या पावंड्यार वेगवेगळ्या तरेन आनी प्रमाणांत पडलो. आधुनीक शिक्षणाखातीर तेन्ना तौलनीक सुबत्ता आशिल्ल्या कांय बामण विचारवंतांक आपली भास सुस्थापीत करपाची स्फूर्त आयली. पूण अशें म्हणून सगलेच बामण कांय कोंकणीचे नाशिल्ले, आनी आयजूय नात. कोंकणीचे प्रमाणीकरण करपाचे प्रक्रियेंत खूबश्या प्रमाणांत बामणी शैली घुसली हें सत्य न्हयकारूंक कठीण. पूण अस्तित्वाच्या झुजामजगतीं कोंकणीक करच्यो पडिल्ल्यो ह्यो तडजोडी, ज्यो आजूनय सुदारूंक शक्य आसात.

गोंय मुक्ती उप्रांत कोंकणीच्या मळार आयिल्लो; विशेश करून भौसामदल्या प्रतीभावंतांचो, हुंवार आश्वासक आसा म्हणप म्हळ्यार एक अल्पोक्ती कशी. हेर भारतीय भासांमुखार आशिल्ल्या प्रश्नांवरींच कोंकणीकय आपणाल्या फुडाराचो प्रश्न भेसडायता. पूर्वलक्षी प्रभावान कोंकणी बामण प्रभावांतल्यान मुक्त करप जरी कठीण आसलें, तरीकय भौसातल्यान वयर सरिल्लें आयचें युवा-चैतन्यरुपी सृजन हेंवूय आव्हान पेलूंक समर्थ आसा अशें हांव समजतां.

युरोपांतल्या स्पेनासारक्या देसांत कातेलानीया नांवाचो प्रदेश कतेलान ह्या आपणाल्या भाशेच्या नाड्यार आपणाल्या हक्कांचेर आजूनय घट रावलां. भारतासारख्या संघराज्यीय राज्यवेवस्थेंत भास हो म्हत्वाचो घटक. आकड्यांनी उणे आशिल्ल्या कोंकणी सारक्या भाशीकांक भास हें राजकीय अस्तित्वाचें एक महत्वाचें साधन.

कोंकणीकडेन भावनीक नदरेन, आनी एक साध्य म्हणून पळयनास्तना सामूहीक अस्तित्वाची एक महत्वपूर्ण कुरु म्हणून हांव पळेता.

संपर्क : 9881254394



कोंकणी शिक्षणाकडेन सगळ्यांचेच दुर्लक्ष जाला. शिक्षण तज्ञाचीय आडनदर जाल्या. ताका लागूनच सरकार आपूणच केल्लो कायदो मोडपाक धजला. हे परिस्थितीआड लडचेखातीर गरजेची आसा जागृताय. पूण ती करतलो कोण आनी फुडे पावल मारतलो कोण?

# भाशा माध्यम : दिशाभूल न्हय, दिशा जाय

संदेश प्रभुदेसाय

प्राथमीक शिक्षणांतल्या भाशा माध्यमाचो प्रस्न अजून सुटावो जायना. फुडल्या अधिवेशना मेरेन भाशा माध्यमाचेर कायदो जातलो अशें सध्या सत्तेर आशिल्ल्या भारतीय जनता पक्षाच्या सरकारान सांगलां. ह्या कायद्याचें धोरण कितें आसतलें हें शिक्षण खातें स्वता सांबाळपी मुख्यमंत्री लक्ष्मीकांत पार्सेकारान हालींच सोंपिल्ल्या पावशी अधिवेशनांत सुचोवन दवरलां. तांचे मतान आसा तेंच धोरण चालू उरतलें. म्हणल्यार कोंकणी वा मराठी सारक्या प्रादेशीक भाशांच्या माध्यमाच्या खाजगी शाळांक आनी चर्च संस्था चलयतल्या आर्चडायोसेसन मंडळाच्या इंग्लीश माध्यमाच्या शाळांक अनुदान चालूच उरतलें. पूण ह्या कायद्यांत सरकारी अनुदान खंयच्या माध्यमाच्या प्राथमीक शाळांक दिवचें इतलेंच आसतलें काय खंयच्या माध्यमाच्या शाळांक हाचे फुडें परवानगी दिवची वा दिवची न्हय हाचोय आस्पाव आसतलो खबर ना. हे विशीं हाचे आदीं दरेका पक्षाच्या सरकारांनी हेविशीं निर्णय घेतला आनी मागीर तो आपणेच मोडला. देखूनच गोंयांत करड कशें इंग्लीश माध्यमाच्यो खाजगी प्राथमीक शाळा वाडत गेल्यात. खरें म्हणल्यार ताकाच लागून भाशा माध्यमाचो प्रश्न इतलो किचकट जावन पडला.

भाशा माध्यमाचो हो प्रश्न पयलीं राजकी जालो. मागीर ताका धर्मीक रंग चडलो. उपरांत तो जातीयवादी जालो. पूण तो शिक्षणीक जालो? भाशीक जालो? लोकांक जाय तें सरकारान दिवपाचें, काय लोकांक बरें तें सरकारान दिवपाचें? आपल्या भुरग्यां खातीर माध्यम वेंचून काडपाचें स्वातंत्र्य पालकांक आसा? दरेका भुरग्याक मोफत शिक्षण दिवपाची लागणूक सरकाराची आसा काय ना? तशें जाल्यार लोकांक जाय त्या माध्यमांत मोफत शिक्षण दिवपाची लागणूक सरकाराची? आनी आसली जाल्यार सरकारी अनुदान अमक्याच माध्यमाच्या शाळांक मेळटलें आनी अमक्या माध्यमाच्या शाळांक मेळचें ना अशें सरकार थारावंक शकता काय ना? लोकशायेंत सरकार व्हड काय लोक व्हड? आवयभाशेंतल्यान शिकप चड बरें काय परके भाशेंतल्यान? जाल्यार फकत इंग्लीश परकी आनी मराठी आमची? मागीर आमची आवयभास खंयची? आवयभास कोंकणी आसून लेगीत मराठींतल्यान शिकता तो राष्ट्रवादी आनी इंग्लीशींतल्यान शिकता तो अराष्ट्रीय? आयचे घडयेक इंग्लीश भारतीय भास काय फिरंगी भास? इंग्लीशीक विरोध केल्यार ती बामणी सुप्रिमसी जाता?

भाशा माध्यम आनी त्या शाळांक सरकारी अनुदान दिवपाचो हो प्रश्न. पूण तो शिक्षण सोडून हेर विशयांनीच चड घुस्पून गेलो. आनी ताकाच लागून आज तो प्रमाणाभायर किचकट जावन गेला. म्हणटकीर तो समजून घेतलो जाल्यार ताचे फाटभुंयेसयत समजून घेवचो पडटलो. निखट्या दिखावू गजालींचेर वचनासतना तळाक बुडी मारून खरें कितें आनी फट कितें तें वयर घेवन येवचें पडटलें. शणै गोंयबाबान सांगिल्लें तशें सत्याचे कानशीचेर घासूनच आनी भावनेच्या भरांत व्हांवन वचनासतना वस्तुनिश्ठपणान हो प्रश्न समजून घेवचो पडटलो. तेन्नाच आमी एका ठोस निर्णयामेरेन घडये येवंक शकतले.

### भाशा माध्यमाची फाटभुंय

खूबशा जाणांक दिसता हो प्रश्न 2011 वर्साच तयार जालो. निखालस ना. ह्या विशयाचेर आजमेरेन दोन जनआंदोलनां जाल्यांत. एक 1990 वर्सा आनी दुसरें 2011 वर्सा. 10 वर्सांनी परत एक फावट. आनी ह्या 10 वर्सांनी कितलेशेंच उदक मांडवींतल्यान व्हांवन गेलां. आनी त्या उदकांत कितल्याशाच सुवार्थी राजकारण्यांनी आपले हात वेवस्थीत धुंवन घेतल्यात.

गोंयांत पयलेंच सरकार महाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्षाचें आयलें आनी मुख्यमंत्री भाऊसाहेब बांदोडकारान शिक्षण आनी भलायकी ह्या दोन गजालींचेर भर दिवन गोंय उबारपाक सुरवात केली. गोंय मुक्तिपयलीं

गांवांनी मराठी शाळा जाल्यार फकत शारांनी मराठीवांगडा थोड्यो पोर्तुगीज आनी इंग्लीश शाळा असो प्रकार आशिल्लो. भाऊन वाड्यावाड्यार प्राथमीक शाळा सुरू केल्यो जाल्यार गांवांत उणीच एक माध्यमीक शाळा आसतली अशे तरेन शिक्षणाचें जाळ विणपाक सुरवात केली. ताची वेवस्थीत आंकडेवारी आयज शिक्षण खात्यांत लेगीत सारकी मेळना. पूण 1965 वर्सा गोंयांत 860 प्राथमीक शाळा आशिल्ल्यो आनी तातूंत 86,486 भुरगे शिकताले. 1975 वर्सा शाळांचो हो आंकडो एक हजारावयर गेलो जाल्यार भुरग्यांचो आंकडो एक लाखालागीं पावत आयिल्लो (98,183). 1985 वर्स येयसर शाळांचो आंकडो 1222 जाल्लो जाल्यार भुरग्यांचोय आंकडो 1.22 लाखांवयर गेल्लो. पूण हातूंतल्यो कितल्यो मराठी, कोंकणी आनी इंग्लीश ताची आंकडेवारी मेळिल्ली ना. पूण मराठी चड आशिल्ल्यो, इंग्लीश वाडत चलिल्ल्यो आनी कोंकणी हाता-बोंटार मेजपाइतल्यो आशिल्ल्यो हें खात्रीन.

1976 सावन एकेक करून प्राथमीक आनी माध्यमीक शाळा मराठींतल्यान इंग्लीश माध्यमाच्यो जावंक लागिल्ल्यो. पयलीं ही सुरवात शारांनी जाली आनी उपरांत हें वारें गांवांनीय पावलें. तेन्ना्च 1984 वर्सा गोंय शाळा शिक्षण कायदो आयलो जाल्यार 1986 वर्सा ह्या कायद्याची नेमावळ आयली. हे नेमावळींतल्या नेम 6 (1) प्रमाण प्राथमीक पावंड्यार भुरग्याचें माध्यम जितलें शक्य आसा तितलें आवयभाशेंत आसचें अशें सांगिल्लें. तशेंच कोंकणी वा मराठी शाळांनी तिसरेसावन इंग्लीश हो विशय शिकोवपाचीय तजवीज केल्ली.

1989 वर्सा खाजगी इंग्लीश प्राथमीक शाळांनी शिकोवपी शिक्षकांनी उच्च न्यायालयांत एक केश घाली. नव्या कायद्याप्रमाण सरकारी शाळांतल्या शिक्षकांक मेळटा तोच पगार खाजगी शाळांतल्याय शिक्षकांक मेळपाक जाय अशी तांची मागणी आशिल्ली. पूण विद्यार्थ्यांकडल्यान भरपूर फी घेनात तेन्ना आपणाक पगार दिवप परवडना अशी शाळांच्या वेवस्थापनांची भुमिका आशिल्ली. पूण समान काम समान पगार ह्या तत्वाक धरून उच्च न्यायालयान ही मागणी उखलून धरली आनी तसो पगार दिवपाची तजवीज करची असो आदेश सरकाराक 1990 वर्सा दिलो. त्याच दिसांनी काँग्रेसीचें सरकार 75 दिसांभितर उडोवन काँग्रेसीचे कांय बंडखोर आमदार आनी महाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्षान एकठांय येवन पुरोगामी लोकशाय आघाडेचें (पुलोआ) सरकारय घडयल्लें. डॉ लुईस प्रॉत बार्बोझा आशिल्ले मुख्यमंत्री, रमाकांत खलप उपमुख्यमंत्री आनी शशिकला काकोडकार शिक्षणमंत्री. ह्या सरकारान तीन निर्णय घेतलेः

1. फकत कोंकणी, मराठी वा हेर खंयचेय प्रादेशीक भाशेंतल्यान चलपी खाजगी प्राथमीक शाळेक पगारी अनुदान दिवप, इंग्लीश शाळांक दिवप ना.
2. खंयचीय सरकारी प्राथमीक शाळा इंग्लीश माध्यमांत चलोवप ना. आसात त्यो कोंकणी-मराठी करप.
3. एक्काय नवे इंग्लीश प्राथमीक शाळेक परवानगी दिवप ना.

धा वर्सांची सत्ता अचकीत हातांतल्यान गेल्ले काँग्रेसीन हो राजकी विशय केलो आनी ताचेर गोंयभर आंदोलन सुरू केलें. माध्यमाची अट घालिनासतना सगल्या खाजगी प्राथमीक शाळांक पगारी अनुदान दिवचें अशी तांची मागणी आशिल्ली. तीन वर्सां पयलीं कोंकणी राजभास करपा खातीर आंदोलन करपी काँग्रेसवाले आनी हेराल्डासारकें इंग्लीश दिसाळें ह्या आंदोलनांत आघाडेर आशिल्लें. चर्चिचें डायोसेसन मंडळाच्यो 130 शाळा तेन्ना इंग्लिशींत चलताल्यो. दोनेक म्हयने हें आंदोलन चल्लें. दुसरे वटेन शिक्षणतज्ञांमदीं जाहीरपणान भासाभास सुरू जाल्ली. काँग्रेसीच्या आंदोलनाक विरोध करपाक कोंकणी आनी मराठीवादी एकठांय आयले. तीन वर्सांपयलीं ते एकामेकांच्या जिवार उठिल्ले. पूण हांगां एकठांय येवन तांणी भारतीय भाषा सुरक्षा मंच ही संघटना घडयली आनी प्रतिआंदोलन सुरू केलें. सरकारान सगळ्या शिक्षणतज्ञांक आपोवन तांचें एका दिसाचें अधिवेशन घेतलें आनी थंय शिक्षणतज्ञांनीय सरकाराचे भुमिकेक तेंको दिलो.

सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हणल्यार चर्चिचे डायोसेसन मंडळान आपल्यो इंग्लीश शाळा कोंकणींत करपाचें थारायलें. शिक्षकांक प्रशिक्षीत करपी निर्मला इन्स्टिट्यूट ऑफ एज्युकेशन हे संस्थेन आवयभाशेंतल्यान शिकपाफाटलीं शास्त्रीय कारणां शिक्षक, पालक आनी वेवस्थापनांलागीं पावोवपाचें काम खूब परिणामकारकपणान केलें. चर्च सरकारा वटेन गेली आनी काँग्रेसीच्या आंदोलनांतलें वारेंच गेलें. रातयांभितर डायोसेसनांच्यो 130 शाळा कोंकणी माध्यमाच्यो जाल्यो. फादर अविनाश रिबेलो तेन्ना डायोसेसन मंडळाचे सचीव आशिल्ले. तांणी सगळ्या इंग्लीश शिकोवपी शिक्षकांक कोंकणीभितर प्रशिक्षीत करपा खातीर कार्याशाळांचो धडाको लायलो. निर्मला इन्स्टिट्युटानय तेंको दिलो. मात कांय वर्सां ह्या कोंकणी शाळांनी इंग्लिशींतल्यान कोंकणी शिकोवप चालू उरलें जाल्यार कांय कोंकणी सारकी कळनाशिल्ले शिक्षक निवृत्त जायसर हे प्रकार चालूच उरले. 1990 ते आजमेरेन कोंकणी शिक्षक प्रशिक्षीत करपी डीएड् सुरू करपाचेरय कोणेंच लक्ष दिलेंना. पूण हें आंदोलन सोंपलें.

### कोंकणी वाडल्यो, इंग्लीशय वाडल्यो

सरकारी भुमिकेक तेंको दिवपाच्या चर्चिच्या ह्या एका निर्णयाक लागून कोंकणी शिक्षणाची परिस्थिती आरत्याची परती जाली. 1990 मेरेन गोंयांत 160 इंग्लीश शाळा चलताल्यो, 871 मराठी शाळा आनी कोंकणीच्यो फकत 9 शाळा. विद्यार्थीय इंग्लीश शिकपी सुमार 43,000, मराठी शिकपी 57,000 जाल्यार कोंकणी शिकपी फकत 1644. हें चित्र रातयांत बदल्लें. कोंकणीच्यो शाळा जाल्यो 139 जाल्यार भुरगे पावले 30 हजारांचेर. दुसरे वटेन इंग्लीश शाळा उरल्यो फकत 26 आनी भुरगेय उरले फकत 11,630. मराठी शाळांचो आंकडो थोडोसो वाडलो, पूण भुरग्यांचो आंकडो मात पांच हजारांनी देंवलो. ही परिस्थिती अशीच उरिल्ली जाल्यार कोंकणी शिक्षणाक बरे दीस येवपाचे.

पूण तशें जालें ना. 1990 ते 1995 ह्या पांच वर्सांनी सात मुख्यमंत्री गोंयांक मेळ्ळे. तातूंत राजकारणाच्योय भोयो जाल्यो आनी शिक्षणाच्योय. 1995 वर्सा परत प्रतापसिंग राणे मुख्यमंत्री जाले. ते तर इंग्लीशीचे खडेगांद समर्थक. फुडें साडे तीन वर्सांनी तांचें सरकार उडोवन डॉ विल्फ्रेड डिसोझा मुख्यमंत्री जाले. पूण तांचेंय सरकार चार

म्हयन्यांभितर उडोवन लुइझिन फालेरो मुख्यमंत्री जाले. 1999 वर्सा वेंचणूक जातकीर परत फालेरोच मुख्यमंत्री जाले. पूण तांचें सरकार पांच म्हयन्यांभितर उडोवन भाजपाच्या तेंक्यान फ्रांसिस्को सार्दीन मुख्यमंत्री जाले. त्या सरकाराचो तेंको इकरा म्हयन्यांत काडून घेवन मनोहर पर्रीकार 2000 वर्सा मुख्यमंत्री जाले ते 2002 वर्सा विधानसभा बरखास्त करतकीर लेगीत मुख्यमंत्री म्हुणून उरले. 2002 वर्सा परत वेंचणूक जाली आनी मनोहर पर्रीकार परत मुख्यमंत्री जाले. अडेच वर्सां भितर भाजपाचें सरकार उडोवन काँग्रेसीचे राणे परत मुख्यमंत्री जाले ते 2007 वर्साची वेंचणूक जायसर. मागीर पांच वर्सां दिगंबर कामत मुख्यमंत्री.

1990 वर्स सोंपता म्हणसर पुलोआचें सरकार पडलें आनी 42 दिसांचे राष्ट्रपती राजवटी उपरांत मगोंतल्यान फुटिल्लें रवी नायक काँग्रेसीचे मुख्यमंत्री जाले. तेन्नासावन 2011 मेरेन 20 वर्सांभितर माध्यमाचें सरकारी धोरण खंयचे खंय नाच्च जालें. सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हणल्यार नव्या इंग्लीश शाळांक परवानगी दिवचे नात हें धोरण फुडल्या सगळ्याच दिल्यो ताचो उल्लेख एके विधानसभेंत विचारिल्ल्या प्रस्नाचे जापेंत मेळटा.

थोडके भितर सांगपाचें जाल्यार 1991 तें 2011 ह्या 20 वर्सांच्या काळांत सत्तेर आयिल्ल्या काँग्रेस, भाजपा वा हांगाचे-थंयचे फोडून घडयल्ल्या सरकारांनी मेळून इंग्लीश शाळांचो आंकडो 26 वेल्यान 143 चेर व्हेलो. आनी विद्यार्थ्यांचो आंकडो तर 11 हजारांवेल्यान 29 हजारांचेर पावलो. सुमार तीन पटींनी वाडलो. मराठी शाळांचो आंकडो वाडून 902 चेर पावलो खरो, पूण विद्यार्थ्यांचो आंकडो मात 35 हजारांमेरेन देंवलो. कोंकणी शाळांचो आंकडो तर 199 चेर पाविल्लो आनी विद्यार्थ्यांचो आंकडो 32 हजारांचेर. हातूंत इंग्लीश आनी कोंकणीच्यो खाजगी शाळा चड जाल्यार मराठीच्यो सरकारी. 2011 वर्सा भाशा माध्यमाचें आंदोलन 20 वर्सांनी परत सुरू जालें तेन्ना एके इंग्लीश शाळेक सरासरी 200 भुरगे पडटाले, एके कोंकणी शाळेक 162 जाल्यार एके मराठी शाळेक फकत 40 भुरगे. हाचोच अर्थ मराठीचो विद्यार्थी देंवतच गेल्लो आनी इंग्लीश शाळा जावन लेगीत फकत चर्चिच्या शाळांक लागून कोंकणीचो विद्यार्थी देंवंक नाशिल्लो. गोंयांत क्रिस्तांव

## प्राथमीक माध्यमाच्यो शाळा आनी विद्यार्थी

| वर्स | शाळा | | | | विद्यार्थी | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| | इंग्लीश | मराठी | कोंकणी | वट्ट | इंग्लीश | मराठी | कोंकणी | वट्ट |
| 1980 | 328 | 941 | 73 | 1342 | 37174 | 45607 | 2047 | 84828 |
| 1990 | 160 | 832 | 9 | 1001 | 42762 | 57000 | 1644 | 101406 |
| 1991 | 26 | 854 | 139 | 1019 | 11630 | 52868 | 29763 | 94261 |
| 2001 | 38 | 931 | 101 | 1070 | 16474 | 46512 | 29691 | 92677 |
| 2011 | 144 | 902 | 199 | 1245 | 28868 | 35642 | 32390 | 96900 |
| 2015 | 258 | 877 | 74 | 1209 | 56093 | 31428 | 5880 | 93401 |

सरकारांनी नदरेआड केलें आनी सगळेच मुख्यमंत्री नवनव्या इंग्लीश शाळांक परवानगी दीत सुटले. कारण कितें दिलें तर केंद्रीय बोर्डाच्यो शाळा आसतात तांकां इंग्लीश माध्यमाखातीर परवानगी दिवची पडटा आनी केंद्रीय कर्मचारी भारतभर भोंवत आसतात देखून तांच्या भुरग्यांक इंग्लीश माध्यमांतल्यान शिकोवचें पडटा. प्रत्यक्षांत केंद्रीय बोर्डाच्या नांवान थळाव्या खाजगी वेवस्थापनांकच चड परवानग्यो दिल्यो. पुलोआचें सरकार पडटकीर 1995 मेरेनच इंग्लीश शाळा 26 वेल्यान 38 चेर पाविल्ल्यो. म्हणल्यार 12 नव्यो इंग्लीश शाळा!

24 ऑक्टोबर 2000 ते 2 फेब्रुवारी 2005 हो सुमार साडेचार वर्सांचो मनोहर पर्रीकाराचो मुख्यंत्रीपदाचो काळ. ह्या काळांत तांणी वट्ट 25 नव्या इंग्लीश माध्यमाच्या खाजगी शाळांक परवानगी दिली. (2001 - 3 शाळा, 2002 - 5 शाळा, 2004 - 6 शाळा आनी 2005 - 11 शाळा). त्योय केंद्रीय बोर्डाच्यो न्हय. पणजी, ताळगांव, म्हापशें, पर्वरी, मडगांव, बाणावली, कुंकळ्ळी, सुरावली, झुवारीनगर, फोंडें, बांदोडें, खांडेपार, आगशी, बोरी आनी पर्यां सत्तरे लेगीत. प्रतापसिंग राणेचो काळ 2 फेब्रुवारी 2005 ते 8 जून 2007 असो सुमार अडेच वर्सांचो. तांणीय अश्योच गांवांगांवांनी आनी शारांनी मेळून 17 इंग्लीश शाळांक परवानग्यो दिल्यो. निम्न-सरकारी आशिल्ल्या बाल भवनांत लेगीत इंग्लीश शाळा सुरू केली. उपरांत आयले काँग्रेसोचेच दिगंबर कामत. तांणी आपले कारकिर्दींत 2010 मेरेन 43 शाळांक परवानग्यो

समाजांतलो भुरगो चुकून मराठी शिकता. मागीर ह्या नव्या इंग्लीश शाळांनी कोण धांवतालो? क्रिस्तांव काय हिंदू?

### राजकारण्यांनी केली चळवळिची दशा

2011 वर्सा फोर्स ही संघटना सुरू जावन चर्चिचे डायोसेसन मंडळाचो तेंको घेवन इंग्लीश माध्यमाच्या खाजगी शाळांकय सरकारी अनुदान दिवचें म्हुणून आंदोलन सुरू जालें. कारण परवानग्यो दीत सुटिल्ल्यान इंग्लीश माध्यमाच्यो शाळा वाडत चलिल्ल्यो. डायोसेसन शाळांतल्या भुरग्यांचो आंकडो देंवंक लागिल्लो. मराठी खाजगी शाळा इंग्लीश जाल्ल्यो. फकत डायोसेसन आनी सरकारी शाळा तितल्यो कोंकणी वा मराठी उरिल्ल्यो. (कोंकणी भाशा मंडळा सारके थोडे अपवाद सोडून). तेन्ना कोंकणी-मराठी चळवळींतले म्हालगडे, राष्ट्रीय स्वयंसेवक संघ आनी भाजपाच्या तेंक्यान भारतीय भाषा सुरक्षा मंच परत सक्रीय जालो. 1990 वर्सा शिक्षणमंत्री आशिल्ली शशिकलाताई काकोडकार मंचाची निमंत्रक जाली. तांणी इंग्लीश शाळांक अनुदान दिवपाक विरोध केलो. मुख्यमंत्री दिगंबर कामत आनी सत्ताधारी काँग्रेसीच्या नांवान शबय सुरू जाली. भ्रश्टाचारी प्रतिमेक लागून सवंग पुराय विटिल्ले काँग्रेसीची ह्या वेळार पुराय गोची जाल्ली. 2012 वर्साची विधानसभा वेंचणूक तोंडार आयिल्ली. असल्या वेळार चर्चीक दुखयल्यार हातांतली गॅरेंटेड व्होट बँक वता आनी चर्चीवांगडा गेल्यार हेर लोक काँत्र जाता. ह्या राजकी चक्रव्युहांतल्या वाट काडपा खातीर

काँग्रेसीन फकत चर्चिच्या इंग्लीश शाळांक अनुदान चालूच दवरपाचें पूण कोंकणी विशय सक्तीचो करपाचो आनी कोंकणी-मराठी प्राथमीक शाळा सुरू करतल्यांक वेगवेगळीं अनुदानां दिवपाचीं असो उपाय सोदून काडलो. ताचो फायदो बशिल्लेकडेन भाजपाक मेळ्ळो. पूण इतलेंय जावन चर्च काँग्रेसीआड गेलीच आनी सत्ताधारी काँग्रेस णवांचेर येवन धडेर कोसळ्ळी.

मनोहर परींकाराचें परिवर्तन सरकार येतकीर भाशा माध्यम परत सारकें जातलें असो आत्मविस्वास कोंकणी चळवळींतले म्हालगडे फुडारी लेगीत उक्तायताले. पूण परिवर्तन जावन लेगीत भाजपाक फकत 21 सुवातो मेळिल्ल्यो. म्हणल्यात 40 आमदारांचे विधानसभेंत धडेवेलें भोवमत. म्हणटकीर तांचे युतिचे भागीदार आशिल्ले मगोचे 3, मिकी पाशेकोच्या साश्टींतल्या गोवा विकास पार्टीचे 2, साश्टींतले आनीक 2 अपक्ष आनी पर्वरी-दिवचलचे 2 अपक्ष अशी 30 जाणांची माटोळी बांदून परींकाराचो गणपती मखरांत बसलो. पूण ताच्याच भाजपांतले पांच मतदारसंघ चर्चिचे आशिर्वादान आयिल्लेः कळंगूट, हळदोणें, सांत आंद्रें, कुडुाळी आनी वास्को. ते भायर साश्टींतले चार मतदारसंघ सरकाराक तेंको दिताले. तेन्ना चर्चीआड वचून तांच्या इंग्लीश माध्यमाच्या शाळांचें अनुदान रद्द केल्लें जाल्यार माटोळीय तुटपाची आनी मखरय फुटपाचें. म्हणटकीर परींकारान शिक्षणतज्ञांची म्हुणन सांगून एक समिती घडयली, तांच्यो बसका घेत कांय वेळ काडलो आनी एक दीस आपणाक जाय तो निर्णय घेवन सोडलो. काँग्रेसीचेंच धोरण मुखार व्हरपाचें आनी चर्चिचे इंग्लीश माध्यमाच्या शाळांक अनुदान चालूच दवरपाचें. तेन्नासावन आतांमेरेन हो प्रश्न हुमकळतच पडला. फाटल्या म्हयन्यांत विधानसभा अधिवेशन सुरू जालें तेन्ना फोर्स संघटना परत रस्त्यार आयली. तांणी गोंयभर रास्ता रोको केलो आनी पणजे आझाद मैदानाचेर उपोषण केलें. तेन्ना ह्याच सगळ्या आमदारांनी वचून फुडल्या अधिवेशनांत कायदो हाडटले तातूंत तुमचो इंटरेस्ट सांबाळटले अशें उतर तांकां दिलें. मुख्यमंत्र्यानय सादारण तशेंच उतर विधानसभेंतय दिलें.

म्हणल्यारच भाशा माध्यमाचो प्रश्न राजकारण्यांनी आपणाक जाय तसो वापरून घेतलो आनी चळवळ करपी लोकांक वेवस्थीत फटयले. कारण हांगां चळवळ फुडें आनी राजकी फुडारी तांच्या फाटल्यान अशी परिस्थिती नाशिल्ली. राजकी फुडारी फुडें आनी चळवळ आनी तातूंतले बिनराजकी फुडारी तांचे फाटल्यान अशीच परिस्थिती काँग्रेस सत्तेर आसतनाय आशिल्ली आनी भाजपा सत्तेर येतकीरय उरली. देखूनच भाजपान तोपी घुवंडायतकीर जनआंदोलन उबें रावंक शकलें ना. हाचो अर्थ आमच्या चळवळींतल्या फुडाऱ्यांनी आपणाक विकले अशें म्हणप मात साप्प चुकिचें. पूण तांणी आपली चळवळ व्हरून राजकी पक्षांच्या पोशांत घाली. देखूनच राजकी पक्षान भुमिका बदलतकीर चळवळ गळसणली. अशेच तरेन कोंकणी राजभास जातकीर कोंकणी प्रजेचो आवाज ही संघटनाच व्हरून काँग्रेसीच्या पोशांत घाल्ली. पूण काँग्रेसीन वापरून जातकीर चळवळ कोनश्याक मारली आनी चळवळिच्या फुडाऱ्यांकय. तातूंत मर्दी फाटले खेपे मनोहर परींकार मुख्यमंत्री आसतना रोमी लिपिचो पांखो घेवपी फुडाऱ्यांक मुखार काडून ह्याच राजकारण्यांनी एकसंघ आशिल्ली कोंकणी चळवळ वेवस्थीत फोडिल्ली. ती आजूय फुटिल्लीच आसा. आनी तरीकय ही फोडाफोडी करतल्या राजकी फुडाऱ्यांच्या फाटल्यान कोंकणी चळवळ अजूनय फरफटत आसा.

मात ह्या सगळ्याच प्रसंगांचेर विद्यार्थी आनी तरणाटे म्हालगड्यांच्या ह्या फोडाफोडिच्या राजकारणाफाटल्यान फरफटत गेले नात. राजभास आंदोलना वेळार कोंकणी-मराठीच्या नांवान गोंय फुटलें तेन्ना ही फूट धर्मीक जावची न्हय आनी तातूंतल्यान जातीय दंगल पेटची न्हय म्हुणून विद्यार्थी चळवळ प्राणपणान वावुरली. कोंकणी प्रजेचो आवाज व्हरून काँग्रेशींत घालपाकय तांणी विरोध केलो. लिपिचो वाद आयलो



तेन्नाय तरणाट्यांनी पेंगट बांदून ह्या वादाक धर्मीक रंग दिवपाच्या प्रयत्नांक विरोध केलो. समेट घडोवन हाडपाचे लेगीत प्रयत्न केले. क्रिस्तांव समाजांतले विद्यार्थी ह्या वेळार देवनागरी वटेन रावले. भाशा माध्यमाच्या प्रश्नावेळारय गेट वेल सून पंगडान आपलें वेगळें अस्तित्व राखून दवरलें. हिंदू-क्रिस्तांव, अ-संस्कृत, अराष्ट्रीय असली धर्मीक उजो लावपी भास तांणी शाणेपणान टाळ्ळी. कोंकणी चळवळींतलो एकवट आनी एकचार राखून दवरपाचें काम ह्या विद्यार्थी आनी तरणाट्यांनी केलां. आनी कोंकणी चळवळ फुटून वचपाक कारण आसा वडाची साल व्हरून पिपळाक लावपाची कोंकणी चळवळींतली ही धर्मकोल्ली वृत्ती. राजकारणी, चर्चिसारक्यो धर्मसंस्था वा हेर धर्मकोल्ली संस्था समाजाक फोडूनच आपलें राजकारण करतात. दुर्दैवान कोंकणी चळवळ तांच्या ह्या कारस्थानाक बळी पडत आसा. आनी तातूंतल्यान आपलें मूळ एकाचाराचें रूप इबाडत आसा.

### फकत क्रिस्तांव अराष्ट्रीय?

राजकारण्यांचें हे कारस्थान मर्तीत येवंक नाशिल्ल्यान जायत, पूण लिपिच्या वादावेळारसावन कोंकणी चळवळीन आपलें रूप बदल्लां. एका तेंपार सर्वधर्मी आशिल्ली ही एकचाराची चळवळ उबी फुटल्या. रोमी लिपीवेळार रोमिचो पांखो घेवपी फुडाऱ्यांवांगडाच क्रिस्तांव समाजाकय चळवळींतले फुडारी दोश दिवपाक लागिल्ले. उपरांत भाशा माध्यमाच्या प्रश्ना वेळार परत चर्चीवांगडाच पुराय क्रिस्तांव समाजाकच आमच्या फुडाऱ्यांनी अराष्ट्रीय थारायलो. संघासारके मंचांतले फुडारी खूश जाले. कारण तांची भास आतां कोंकणी चळवळींतले फुडारी उलोवपाक लागिल्ले. इंग्लीश माध्यम मागतले चर्चीक आनी फकत क्रिस्तांव समाजाक आमच्या फुडाऱ्यांनी फिरंगी आनी अराष्ट्रीय थारायले. पोर्तुगीज पासपोर्ट घेवन देशाचो त्याग करून वचपी हेच ते पाश्चिमात्य संस्कृतायेंत लोळपी लोक अशें म्हुणून तांकां हिणसायले. आनी हें म्हणटना रजांव कितें? इंग्लीश शाळांखातीर अनुदान घेता तो अराष्ट्रीय. मागीर खाजगी शाळांनी इंग्लीश माध्यमांत शिकता तो अराष्ट्रीय न्हय? कित्याक? तो पयशेकार म्हुणून, काय तातूंतलो भोवसंख्य हिंदू म्हुणून? इंग्लीश खाजगी शाळांनी कितें फकत हिंदूच भुरगो आशिल्लो अशें कांय ना. जाका फी परवडटा तो सगळ्या जाती-धर्मांतलो आशिल्लो. आनी पांचवेक सावन आख्खें गोंय इंग्लीश माध्यमातल्यान शिकता. पूण तेन्ना मात ती फिरंगी भास भारतीय जाता? आंनी इंग्लीशींतल्यान शिकपी सगळे राष्ट्रवादी?

डायोसेसन मंडळ कोंकणीचें माध्यम घेवन 20 वर्सां रावलें. त्या दोन दसकांत मराठी माध्यमाच्यो खाजगी शाळा वा वेवस्थापनां लेगीत इंग्लीश जाल्यीं. पूण.तेन्ना चर्च राष्ट्रवादी, गोंयची मोगी, स्वाभिमानी अशें सगळें आशिल्ली. पूण इंग्लीश मागलेबराबर फकत एक चर्चच अराष्ट्रीय थारली? हेर इंग्लीश प्राथमीक शाळा चलोवपी खाजगी आस्थापनां मात आज लेगीत राष्ट्रवादी? आनी तातूंत शिकपीय पालक आनी विद्यार्थी राष्ट्रवादी? आनी हीच चर्च 1990 मेरेन इंग्लीश शाळा चलयताली. तेन्ना ते कोण आशिल्ले? मगोचें आनी काँग्रेसीचें सरकारय सरकारी शाळा इंग्लीशींतल्यान चलयतालें. तेन्ना तेय अराष्ट्रीय आशिल्लें? इंग्लीशींतल्यान शिक्षण दिवन तांणी अ-संस्कृत भुरगे घडयले काय सुसंस्कृत? खऱ्यांनीच इंग्लीश माध्यमांतल्यान शिकल्यार भुरगो अराष्ट्रीय जाता आनी भारतीय संस्कृतीकडल्यान पयसावता? काय तातूंतलो फकत क्रिस्तांवच अराष्ट्रीय जाता आनी हिंदू मात राष्ट्रवादीच उरता?

आयचे घडयेक 258 शाळा इंग्लीशींतल्यान चलतात. तातूंतल्यो फकत 130 डायोसेसनाच्यो. उरिल्ल्यो 128 हेर खाजगी वेवस्थापनांच्यो. ह्या शाळांनी गोंयचो एका लाखांतलो 56 हजार भुरगो शिकता. म्हणल्यार 60 टक्के. 34 टक्के (31428) मराठी शिकता जाल्यार फकत 6 टक्के कोंकणी (5880). जनगणना खात्यान हालींच 2011 वर्साचो आंकडो उजवाडायला. ते प्रमाण गोंयांत 66 टक्के हिंदू आसात, फकत 25 टक्के क्रिस्तांव जाल्यार उरिल्ले 9 टक्के हेर धर्मांचे. पूण गोंयांत 60 टक्के भुरगे इंग्लीशींतल्यान शिकतात. सरसकट सगळेच 25 टक्के क्रिस्तांव इंग्लीश शिकतात अशें धरून चलया. जाल्यार उरिल्ले 35 टक्के कोण? धरया, उरिल्ले 9 टक्के हेर धर्मीय लेगीत इंग्लीशच शिकतात. तरीकय 26 टक्के उरतातच. ते हिंदूच आसचे पडलेना? मागीर हातूंत प्राथमीक शिक्षण इंग्लीशींतल्यान शिकपी सगळ्यांच चड आंकडो कोणाचो? हिंदूंचोच न्ही? तरीकय इंग्लीश शिकतात म्हुणून फकत क्रिस्तांव फिरंगी, स्वाभिमानशुन्य, अ-संस्कृत आनी अराष्ट्रीय? हें खंयचें, कोणाचें, कसलें रजांव?

### डायोसेसनांत क्रिस्तांव चड काय हिंदू?

गोंयच्या शाळांनी कितल्या धर्मांतली कितलीं भुरगीं शिकतात हाची आंकडेवारी दवरनात. बरी गजाल ही. पूण एकूच फावट ही आंकडेवारी एकठांय केली. 24 जुलय 2012 ह्या दिसा अपक्ष आमदार विजय सरदेसायान विधानसभेंत विचारिल्ल्या प्रश्नाचेर तेन्नाचे मुख्यमंत्री मनोहर पर्रीकारान ही आंकडेवारी दिल्ली. ही आंकडेवारी वेगळेंच कितें तरी सांगता. डायोसेसनाच्या शाळांनी चड भुरगे क्रिस्तांव आसतले हो आमचो समज न्हय; गैरसमज. आनी ह्याच गैरसमजांतल्यान भारतीय भाशा सुरक्षा मंचांतले आमचे कोंकणी चळवळींतले फुडारी फकत क्रिस्तांव समाजाक इंग्लीशवादी म्हुणून धाडायत चल्ल्यात.

प्रत्यक्षांत आंकडेवारी सांगता ती अशीः (ही आंकडेवारी फकत डायोसेसन शाळांची हें मर्तीत दवरचें)

- 12 तल्या धारबांदोडें सोडून 11 तालुक्यांनी डायोसेसनाच्यो 130 प्राथमीक शाळा आसात. तातूंतल्यो 101 शाळा साश्ट (42), बार्देस (31), तिसवाडी (15) आनी मुरगांव (13) ह्या लोकसंख्या चड आशिल्ल्या तालुक्यांनी आसात. पूण हातूंतल्या एका साश्ट तालुक्यांतच क्रिस्तांव भोवसंख्य आसा.
- 130 शाळांतल्या 77 शाळांनी हिंदू भोवसंख्य आसात जाल्यार फकत 52 शाळांनी क्रिस्तांव भोवसंख्य. म्हणल्यार 60 टक्के शाळा हिंदू भोवसंख्य आशिल्ल्यो जाल्यार फकत 40 टक्के क्रिस्तांव भोवसंख्य आशिल्ल्यो.
- डायोसेसनाच्या ह्या 130 शाळांनी 48 टक्के (14525) हिंदू भुरगो शिकता जाल्यार 39 टक्के (12012) क्रिस्तांव भुरगो शिकता. 9 टक्के (2513) हिंदू चड.
- 11 तालुक्यांतल्या फकत तीन तालुक्यांनी क्रिस्तांव भुरगो

भोवसंख्य आसा जाल्यार 6 तालुक्यांनी हिंदू भोवसंख्य. सांगे आनी काणकोण तालुक्यांनी तो लागींलागीं सारको आसाः क्रिस्तांव - 547 जाल्यार हिंदू - 515.

- क्रिस्तांव भुरगो भोवसंख्य आशिल्ले तीन तालुके म्हणल्यार साश्ट, केपें आनी फोंडें. ह्या तिनूय तालुक्यांनी मेळून 38 शाळांनी क्रिस्तांव भोवसंख्य आसा जाल्यार 14 शाळांनी हिंदू भोवसंख्य.
- ह्या तिनूय तालुक्यांनी मेळून 56 टक्के (7233) क्रिस्तांव भुरगो शिकता जाल्यार 30 टक्के (3849) हिंदू भुरगो.
- हातूंतल्या एका साश्ट तालुक्यांत 30 शाळांनी क्रिस्तांव भुरगो भोवसंख्य आसा जाल्यार हांगांयबी 11 शाळांनी हिंदू भोवसंख्य आसा.
- क्रिस्तांवांची लोकसंख्या चड आशिल्ल्या साश्ट तालुक्यांत भुरग्यांमदलो फरक खूब व्हडलो ना. 47 टक्के क्रिस्तांव जाल्यार 44 टक्के हिंदू भुरगो. जनगणनेप्रमाण साश्ट तालुक्यांत 54 टक्के क्रिस्तांव जाल्यार 34 टक्के हिंदू आसा.
- उरिल्ल्या स तालुक्यांनी मेळून 59 शाळांनी हिंदू भोवसंख्य आसा जाल्यार फकत 10 शाळांनी क्रिस्तांव भोवसंख्य आसा.
- ह्या स तालुक्यांनी मेळून 61 टक्के (10161) हिंदू भुरगो शिकता जाल्यार 25 टक्के (4232) क्रिस्तांव भुरगो शिकता. उरिल्लो हेर धर्मीय.
- दिवचल आनी सत्तरीच्या 4 शाळांनी मेळून 75 टक्के (892) हिंदू भुरगे शिकतात जाल्यार फकत 6 टक्के (72) क्रिस्तांव भुरगे शिकतात. ह्यो शाळा हिंदूंचेरच चलतात.
- बार्देस, तिसवाडी आनी मुरगांव तालुक्यांनी मेळून 50 शाळांनी हिंदू भुरगो भोवसंख्य आसा जाल्यार फकत 9 शाळांनी क्रिस्तांव भोवसंख्य आसा.
- ह्या तिनूय तालुक्यांनी भुरग्यांची संख्या पळयल्यार 59 टक्के (8691) हिंदू जाल्यार फकत 27 टक्के (3893) क्रिस्तांव. जनगणनेप्रमाण हांगांची लोकसंख्याय 64 टक्के हिंदू जाल्यार 25 टक्के क्रिस्तांव अशी आसा.

डायोसेसनाच्या ह्या इंग्लीश जाल्ल्या प्राथमीक शाळांनी अर्दो भुरगो हिंदू धर्मांतलो. तरीकय इंग्लीश शिकपी फकत क्रिस्तांव समाज अराष्ट्रीय कसो कितें? आनी ह्या शाळांनी तोय गांवांगांवांनी इंग्लीश शिकपी हिंदू भुरगो आनी तांचे पालक मात राष्ट्रवादी? हातूंतले फकत क्रिस्तांवांचेच भुरगे इंग्लीशींतल्यान शिकिल्ल्यान आपली संस्कृताय विसरतात? आपलो स्वाभिमान विसरतात? हीच आमची सर्वधर्मीय कोंकणी चळवळीची देख? हीच ती एकचाराची आनी एकवटाची चळवळ? एका विशिश्ट धर्माक टार्गेट करून चलपी सॅक्युलर चळवळ? आनी ह्या चळवळींतल्यान आमी पुराय कोंकणी समाजाचो एकवट करपाचो? काय हो दिशाभूल करून, फटिंच्या आदाराचेर, धर्मकोल्ल पातळावपाचो आनीक कोणाचो तरी अजेंड आतां कोंकणी चळवळीन आपणायला?

### बामणी सुप्रिमसी?

कोंकणी चळवळीची ही अशी गत जाल्ली आसतनाच दुसरे वटेन इंग्लीश माध्यमाचें समर्थन करपी काय विचारवंत भारतीय भाषा सुरक्षा मंचाचे चळवळीक बामणी सुप्रिमसीची चळवळ म्हुणून बदनाम करीत चल्ल्यात. ते बरयतात फकत इंग्लीशींतल्यान. कारण तांकां कोंकणी वा मराठी बरोवंकय येना. तांच्या मतान शणै गोंयबाब होय बामण आनी तांची कोंकणी चळवळ मुखार व्हरपी हे चळवळीचे फुडारीय बामण. (ही तांची असली भास सांगतना लेगीत आंग शिरशिरता. स्वताक विचारवंत आनी सॅक्युलर म्हणपी हे लोक सहजपणान ही असलीं जातीवाचक उतरां वापरून कशे बरोवपाक करपाक शकतात तेंच समजना.) आनी हें सगळें करतना ते टार्गेट करतात उदयबाब भेंब्रेक.

**डायोसेसन प्राथमीक शाळांतले धर्मवार विद्यार्थी**

| तालूको | शाळा | | | क्रिस्तांव विद्यार्थी | हिंदू विद्यार्थी | टक्केवारी | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|
| | वट्ट | क्रिस्तांव चड | हिंदू चड | | | क्रिस्तांव विद्यार्थी | हिंदू विद्यार्थी |
| साश्ट | 42 | 30 | 11 | 5850 | 2767 | 47 | 44 |
| केपें | 6 | 5 | 1 | 972 | 555 | 55 | 32 |
| फोंडें | 5 | 3 | 2 | 411 | 527 | 50 | 44 |
| बार्देस | 31 | 2 | 29 | 1817 | 4937 | 24 | 65 |
| तिसवाडी | 15 | 4 | 11 | 1144 | 1801 | 33 | 52 |
| मुरगांव | 13 | 3 | 10 | 932 | 1953 | 26 | 55 |
| पेडणें | 6 | 1 | 5 | 267 | 578 | 31 | 68 |
| दिवचल | 3 | 0 | 3 | 53 | 766 | 5 | 78 |
| सत्तरी | 1 | 0 | 1 | 19 | 126 | 9 | 61 |
| काणकोण | 4 | 2 | 2 | 359 | 332 | 47 | 44 |
| सांगें | 4 | 2 | 2 | 188 | 183 | 26 | 55 |
| **वट्ट** | **130** | **52** | **77** | **12012** | **14525** | **39** | **48** |

*हेर धर्मांचे विद्यार्थी आसात, पूण तक्ट्यांत दाखोवंक नात*

तांच्या मतान उदयबाब हे बामणी चळवळीचे सुत्रधार. 1991 वर्सा सारस्वत समाज स्थापन जालो तेन्ना कांय लोकांनी निर्भयपणान मुखार सरून हे घडणुकेचो निशेध केल्लो. तातूंतले एक उदयबाब. जांबावले तांच्या एका कोंकणी नाटकांत बिगर-सारस्वत आसात म्हुणून तांकां नाटक करपाक जाळवणदारांनी आक्षेप घेतिल्लो, कारण उदयबाब समेस्त कोंकणी समाजाक घेवन मुखार वताले. देखूनच तर बाबू नायकाची मडगांवांतली अनभिषिक्त सत्ता काबार करपाक सर्वधर्मीय मडगांवकारांनी दोळे धांपून उदयबाबाक उमेदवार म्हुणून मुखार काडिल्लो आनी आमदार म्हुणून वेंचूनय दिल्लो.

भाशा माध्यमाचो प्रस्न धर्मीक पावंड्यार व्हरतना उदयबाब जी भास वापरता ताचेर हांव धरून कितल्याशाच जाणांचो आक्षेप आसा. पूण अशें म्हुणून ते बामणी सुप्रिमसी प्रस्थापीत करपा खातीर हें सगळें करतात अशें कोणूय म्हणीत जाल्यार मात तें कोंकणी चळवळीन सोंसून घेवचें न्हय. जे शिकले तातूंतल्याकच कोंकणी अस्मितायेचो दिश्टावो जालो. त्या काळार चडशे उच्चवर्णीय मुंबयबी वचून उच्च शिक्षण घेवंक शकताले. तातूंतल्यानच गोंयची कोंकणी चळवळ मुंबय शारांत उबी जाली. आनी थंयच्यान गोंयांत येवन तांणी ती समेस्त कोंकणी समाजामदीं पातळायली. भोवजन समाजांतले एकापरस एक खडेगांठ लेखक कोंकणी चळवळ जोडीत गेली. आज कोंकणी चळवळ जाण्ट्यांसावन नेण्ट्यांमेरेन भोवजन समाजान उखलून धरल्या. उच्चवर्णियांनी निखालस न्हय.

उरफाटें भाशा माध्यमाच्या आंदोलनांत उच्चवर्णियांचो वांटो कुस्कुटासमान. कारण ह्या समाजांतले भोवतेक सुखवस्तू आशिल्ले पालक आपल्या भुरग्यांक इंग्लीश शाळांनी धाडटात. कोंकणी आनी मराठी माध्यमांतल्यान प्राथमीक शिक्षण घेवपी भुरगो आयज आसा तो सुमार 36 हजार जाल्यार इंग्लीश शिकपी आसा 56 हजार. म्हणल्यार 60 टक्के इंग्लीश शिकपी जाल्यार 40 टक्के कोंकणी-मराठी. हातूंतल्यान जाती सोडून काडप कोणाक शक्य आसा? हरशींय उच्चवर्णीय आसात दोन काय तीन टक्के. गोंयांत मराठी माध्यमाच्यो प्राथमीक शाळा आसात वट्ट 877. तातूंतल्यो 785 सरकारी जाल्यार फकत 92 खाजगी. ते भायर 50 सरकारी आनी 46 खाजगी मेळून वट्ट 96 कोंकणी शाळा. फकत 5 सरकारी आनी 253 खाजगी मेळून वट्ट इंग्लीश शाळा 258. हातूंतल्या मराठी सरकारी शाळांनी गांवगिऱ्या वाठारांनी वता तो भुरगो फी फारीक करून इंग्लीश शाळांनी वचपाक शकनाशिल्लो भुरगो. शारांनी चडसो बिगर-गोंयकार आनी कामगार वर्गांतलो. हो भुरगो सुमार 36 हजार आसा. कोंकणी शिकपी उरल्यात आतां फकत 5880 भुरगे. 60 टक्के हिंदू भुरगो डायोसेसनाच्या शाळांनी वता हें आमी पयलींच पळयलां. इंग्लीशींतल्यान शिकपी 56 हजार भुरग्यांतले सुमार 26 हजार भुरगे अनुदान मेळनाशिल्ल्या खाजगी शाळांनी शिकतात जाल्यार सुमार 30 हजार भुरगे डायोसेसनाच्या इंग्लीश शाळांनी. हातूंतलें खंयचेंय कोंत जातींकडेन जुळना. तरिकय कोंकणी-मराठी माध्यमाची चळवळ ही बामणी सुप्रिमसीची चळवळ म्हुणून निश्कर्श काडपी अपुर्बुद्दांक किते म्हणप?

### इंग्लीश फिरंगी भास?

इंग्लीश फिरंगी भास देखून ती शिकची न्हय असो आनीक एक मुद्दो मुखेलपणान ह्या आंदोलनांतल्यान मुखार आयला. आनी तोच मुखार ताणून फिरंगी भास शिकता देखून तो अराष्ट्रीय असो ताचो विपर्यास केला. तेन्ना मुळावो मुद्दो येता तो हो इंग्लीश आयचे घडयेक फिरंगी भास काय भारतीय भास? अर्थांत, हाचे खातीर इतिहास आनी वर्तमान, दोनय सासपुचे पडटलेच. इंग्लीश भास फिरंग्यांकडल्यान भारतांत आयली हो इतिहास. ब्रिटीश पयले खेपे भारतांत भितर सरले ते 1757 वर्सा ईस्ट इंडिया कंपनीच्या नांवान. तेन्ना भारतांत आशिल्ले ते प्रांत आनी राजांचीं संस्थानां. राष्ट्र वा राज्य (नेशन स्टेट) ही संकल्पनाच संवसारांत विकसीत जावंक नाशिल्ली. ती जाली युरोपांत आनी ते



प्रमाण प्रदेशांच्यो भुगोलीक शिमो थारावन राष्ट्र (वा राज्य) हे संकल्पनेन भारतांत आकार घेतलो तो साहजीकच ब्रिटिश सत्तेखाला 19 व्या शेकड्यांत. वेगवेगळ्या वाठारांत वेगवेगळ्यो भासो उलोवपी ह्या राष्ट्रांतली राज्यवेवस्था चलोवपा खातीर तांणी इंग्लीश भाशेचो वापर केलो. भारतांतली पारंपारीक शिक्षण पद्दत मोडून काडली आनी मॅकोलेन 20 व्या शेकड्यांत नवीन शिक्षण पद्दत राबयली. ते खातीर इंग्लीश वापरली. खासा करून उच्च शिक्षणांभितर तर पुरायपणान.

आजय तीच शिक्षण पद्दत चालू आसा आनी ते खातीर इंग्लीशीचो वापरय तसोच चालू आसा. देखूनच भारत स्वतंत्र जालो तरीकय भारतांत इंग्लीशीचो वापर चालूच उरलो. फकत 15 वर्सां इंग्लीश वापरून उपरांत पुराय भारताची राष्ट्रभास हिंदी जातली हें थारायल्यार आतां 65 वर्सां जालीं. अजून ती मोख साकार जावंक ना. दक्षीण भारतांतल्या द्रविडी संस्कृतायेन आर्य संस्कृतायेंतले हिंदीची जबरदस्ती न्हयकारली देखून इंग्लीश भारतांत आनीकय रूढ जाली. ताकाच लागून भारताची राष्ट्रभास इंग्लीशीवांगडा हिंदी अशीच आसा आनी प्रत्यक्षांत राज्यवेवस्था आनी प्रशासन चलता तें इंग्लीशींतल्यानच. एकेक करून भारतान आतांमेरेन 22 प्रादेशीक भासांक संविधानाचे आठवे अनुसुचींत आस्पावन घेतलां. ह्या भासांक त्या त्या राज्याची राजभास केल्या. पूण तरिकय अरुणाचल प्रदेश, नागालँड, चंदिगढ, लक्षद्वीप आनी दादरा-नगर हवेली ह्या राज्यां आनी संघप्रदेशांची राजभास अजूनय फकत इंग्लीश आसा. आसाम, पश्चीम बंगाल आनी अंदमान-निकोबार जुव्यांचेर तांचे थळावे भाशेवांगडा इंग्लीश हीय मुखेल राजभास आसा. ते भायर हिमाचल प्रदेश, जम्मू काश्मीर, केरळ, तामिळनाडू, मणिपूर आनी गोंय ह्या राज्यांनी आपापल्या राजभास कायद्यांनी इंग्लीशीचो वापर चालूच उरतलो अशें स्पश्ट सांगलां. गोंयांत कोंकणी राजभास आनी मराठीचो राज्यकारबाराखातीर वापर हो कायदो 1987 वर्सा केलो तरी प्रत्यक्षांत सगळो राज्यकारबार गोंय मुक्तीसावन आतां मेरेन इंग्लीशींतल्यानच चलता हें सगळ्यांकच खबर आसा. हो इतिहास आनी हें आयचें वर्तमान जाणा जावन लेगीत इंग्लीश अजुनूय फिरंगीच भास?

बरें, हे इंग्लीश भाशेची गोंयच्या शिक्षणांत सुवात कशी किर्तें? 1963 सावन 1990 मेरेन खाजगी सोडातच, सरकारी पावंड्यार लेगीत इंग्लीश माध्यमांतल्यो प्राथमीक शाळा चलताल्यो. आदली आंकडेवारी माध्यमाप्रमाण मेळिळना, पूण 1980 वर्सा 328 इंग्लीश, 941 मराठी आनी 73 कोंकणी माध्यमांतल्यो प्राथमीक शाळा चलताल्यो. ह्या शाळांनी 44 टक्के भुरगे (37147) इंग्लिशींतल्यान, 54 टक्के (45607) मराठींतल्यान जाल्यार फकत 2 टक्के (2047) कोंकणींतल्यान शिकताले. 1990 वर्सा, माध्यमाचें धोरण आपणावचे पयलीं, 160 इंग्लीश माध्यमाच्यो शाळा चलताल्यो. तातूंत 51 सरकारी शाळा आशिल्ल्यो. ह्या शाळांनी गोंयांतले 42 टक्के भुरगे (42798) इंग्लिशींतल्यान शिकताले,




56 टक्के (57000) मराठींतल्यान जाल्यार फकत देड टक्को (1644) कोंकणींतल्यान शिकताले. म्हणल्यार गोंय मुक्त जावन लेगीत 1990 मेरेन हांगां फिरंग्यांचेंच राज्य चलतालें? म्हुणून तीं सगळ्या पक्षांचीं सरकारां इंग्लीश माध्यमांतल्यो शाळा स्वता चलयतालीं? आनी तांणी सुमार तीन दसकां फिरंगी प्रजा निर्माण केली? आनी आतांय इंग्लीश माध्यमाक बंदी ना. म्हणल्यार फिरंगी प्रजा निर्माण करपाक आमची हरकत ना? तीयबी 60 टक्के? आनी सध्या तर माध्यमीक पावंड्यावेल्यान शिक्षण मेळटा तें फकत इंग्लिशींतल्यान. 100 टक्के. म्हणल्यार पांचवेसावन आमी सगळे आनी आमचीं सगळीं बाळां-भुरग्यां फिरंगी? खंयमेरेन व्हरप हे फिरंगीपणाचे युक्तिवाद? काय ते फकत सरकारी अनुदान घेतल्या इंग्लीश शाळांपुरतेच मर्यादीत दवरप? काय ताचेकय फुडें वचून ह्या सरकारी अनुदान घेवपी इंग्लीश शाळांनी शिकपी फकत क्रिस्तांव भुरग्यांपुरतोच हो फिरंगीपणाचो युक्तिवाद मर्यादीत दवरप?

### जनआंदोलन काय जनजागरण?

हे सगळे सत्य परिस्थितीचो नियाळ घेतलो जाल्यार एक गजाल

प्रकर्शान जाणवता. इंग्लिशींतल्यान शिकल्यार आपलीं भुरगीं बऱ्याक पावतलीं अशें गोंयच्या 60 टक्के पालकांक दिसता. हेरांकय दिसता आसत, पूण परवडना. हांवूय एक पालकच. आमचीं दोनय भुरगीं इंग्लीश माध्यमांतल्यान शिकलीं. पयल्या भुरग्यावेळार कोंकणी शिकोवपी बरी शाळाच पणजे नाशिल्ली. आशिल्ल्यो त्यो इंग्लिशींतल्यान कोंकणी शिकयताल्यो. थंय म्हजो इश्ट आनी आदलो संपादक आश्वीन तोंबटान आपल्या भुरग्याक घालून हात भाजून घेतिल्ले. म्हणटकीर आमी पुराय दीस चलपी आनी खेळांतल्यान (अभ्यासांतल्यान न्हय) शिकोवपी शाळेंत आमच्या भुरग्याक घालें आनी थंय कोंकणी भास शिकोवपा खातीर झगडलीं. दुसऱ्या वेळार कोंकणींतच घालपाचें थारायलें जाल्यार आमच्या भुरग्याक डिसलॅक्सिया जालो. म्हणल्यार अक्षर वळख जावपाक येवपी अडचणी. तातूंतल्यान भुरग्याक भायर काडपी सॉफ्टवॅर फकत इंग्लिशींत आशिल्लें. तेन्ना इंग्लीशीबगर पर्यायूच उरलो ना. अशें म्हुणून आमचीं भुरगीं फिरंगी, अ-संस्कृत वा अराष्ट्रीय जालीं नात. आमीय तांकां कोंकणीकडल्यान तोडले नात. आमचो पूत सुनापरान्तांत कोंकणी व्यंगचित्रां लेगीत काडटालो. आज आमची धूव इंग्लीशीवांगडाच कोंकणींतल्यानय बरयता. पूण म्हजे हेर भाव आनी इश्ट-इश्टिणी मडगांवां रावतात. तांचीं भुरगीं कोंकणी भाशा मंडळाचे शाळेंत गेलीं. आज तांचे मदीं आशिल्लो आत्मविस्वास आमकां आमच्या भुरग्यांमदीं जाणवना. कितें तरी उणाकपण जाणवता. तांकां कोंकणी फटाफट वाचपाकय जमना. मात कोंकणींतल्यान प्राथमीक शिक्षण घेतिल्ल्याचो फायदो चटिपावलाक स्पश्ट दिसता. इंग्लीशय तीं म्हज्याच भुरग्यांवरी फाडफाड उलयतात. हें अशें जाणवना आनी होलमना तेमेरेन इंग्लीशीचें हें आकर्शण चालूच उरतलें.

आवयभाशेंतल्यान (वा सरभोंवतणचे भाशेंत) शिकल्यार भुरग्याक विशय आत्मसात बरे जातात. दुसरे भाशेंतल्यान शिकल्यार ताका मनांतल्या मनांत अणकाराचे आनीक एके प्रक्रियेंतल्यान वच्चें पडटा. ताका लागून आत्मसात करपाची तांक देंवता. हें वैश्वीक सत्य. विज्ञानीक शिक्षणपद्दतीन तें सिद्ध करून दाखयलां. तरीकय गोंयांत आमची आवयभास अजून फिक्स जायना. सगळ्याच जाती-धर्मांतले कितलेशेच पालक भुरग्यांची इंग्लीश बरी जावची म्हूणून तांकां इंग्लीश माध्यमांत तर घालतातच, पूण घराकडेनय तांचेकडेन इंग्लीश (म्हणल्यार कोंग्लीश) उलोवपाक लागतात आनी ताची इंग्लीश पुराय इबाडटात. आनी हेर चडशे पालक आपल्या भुरग्यांक मराठी माध्यमांत घालतात. थंय इंग्लीशीपरस इल्ली कमी अडचण येता, पूण अडचण येताच. हे परिस्थितींत एका लाखांमदलीं कोंकणींतल्यान शिकपी भुरगीं आमचेकडेन आयचे घडयेक आसात तीं फकत 5880, वा 6 टक्के! शणै गोंयबाब कथामाळेक हजारांनी भुरगीं काणयो सांगपाक येतात. खूब बरो उपक्रम. पूण थंय त्या भुरग्यांची कोंकणी आयकल्यार रडपाक येता. कोणूच खंयच उलयनात ती कोंकणी, कृत्रीम पद्दतीन कसले तरी विशिश्ट हेल काडीत, तीं उलयतात. आपले बोलींत उलोवपाक तांकां आजय लज दिसता. ही स्वाभिमानाची गजाल?

इंग्लिशींतल्यान शिकिल्ल्या भुरग्यांक शास्त्रशुद्ध इंग्लीश उलोवंक वा बरोवंक येना. कारण तांची इंग्लीश कोंग्लिशीन पेड्ड्यार केल्या. आजकाल मराठीय भास म्हूणून सारकी शिकयनात. कोंकणी पदव्युत्तर पावंड्यार शिकपी लेगीत भुरग्यांची कोंकणी अजापीत करपासारकी आसता. गोंयच्या चडश्या शाळांनी खंयचीच भास भाशेचो विशय सारको शिकयनात. भास माध्यमांतल्यान सुदारना. ती भास म्हूणून शास्त्रशुद्धपणान शिकल्यार आनी पाठ्यपुस्तकाभायलें साहित्य वाचल्यार सुदारता. एका तेंपार गोंयकाराक कोंकणी, मराठी, हिंदी, इंग्लीश, पोर्तुगीज आनी कांय जाणांक तर गुजराती वा कन्नड लेगीत येताली. उपरांत कोंकणी, मराठी आनी इंग्लीशीपुरती मर्यादा पडली. आज ज्या माध्यमांतल्यान शिकता ती भास लेगीत सारकी येना. एका तेंपार भोवभाशीक म्हुणून नामना आशिल्लो गोंयकार आज एक लेगीत भास वेवस्थीत उलोवपाक वा बरोवपाक येना अशे परिस्थितींत सापडला. ताच्यो भोयो भोयो जाल्यात.

हातूंतल्यान भायर सरतलो जाल्यार माध्यमाचो विशय राजकीय, जातीय वा धर्मीक करून जावचो ना. दुसरे भाशेक गाळी घालून आमचे भाशेचो प्रस्न सुटचो ना. वांगडाच दोन-दोन भाशांक आवयभास म्हणपाची तडजोडय करून तो सुटचो ना. 1980 वर्सा कोंकणी शिकपी भुरगो दोन टक्के आशिल्लो. 1990 मेरेन तो देड टक्क्यार पाविल्लो. आतां डायोसेसनाच्यो शाळा इंग्लीश जातकीर परत तो 33 टक्क्यांवेल्यान 6 टक्क्यांचेर पावला. ही परिस्थिती बदलतले जाल्यार जनआंदोलन करून निखालस जावचें ना. सरकाराचेर चेंपण हाडून लोकांचेर सक्ती करपय शक्य ना. कारण लोकांक सगळे पर्याय उक्ते आसात. आनी राजकारणी लोकांचो कल पळोवनच तेवटेन दालें घुंवडायतात. 60 टक्के लोक इंग्लीशींतल्यान शिकपाक सोदता तेन्ना खंयचोय सत्ताधारी 40 टक्क्यांवाडच्यान कित्याक म्हुणून रावतलो? देखूनच तर काँग्रेसीच्या सरकारान केलें तेंच भाजपाच्याय सरकारान केलें. आवयभाशेंतल्यान प्राथमीक शिक्षण जावचें हें तांकांय मान्य आसा. पूण भोवसंख्य लोकांक तें समजना. लोक तें मानूंक तयार ना. आमकां आवडना जाली तरी ही सत्य परिस्थिती आसा. ती जड मनान आमकां मानून घेवचीच पडटली.

पूण अशें म्हुणून हात-पांय गळसणून निखालस जावचें ना. जेन्ना शक्य आशिल्लें तेन्ना, म्हणल्यार 1991 ते 2011, ह्या 20 वर्सांनी आमच्याय शिक्षणतज्ञांनी बदलत वतले परिस्थितीकडेन दुर्लक्षच केलें. ताकाच लागून सरकारान आपणेच केल्लो कायदो मोडलो आनी इंग्लीश शाळांचें पीक येत रावलें. सगळ्यांनी ताचेकडेन दुर्लक्ष केलें. आमी जाय तेन्ना शिटूक रावले नात. ताचें पानवळ 2011 वर्सा भोगचें पडलें. आतां ही परिस्थिती बदलतले जाल्यार फुर्योज जावन कांयच जावचें ना. आंदोलन करून तर ही परिस्थिती निखालस बदलची ना. ताका जाय आसतलें जनजागरण. आनी अथक परिश्रम करून कोंकणींतल्यान एक समर्थ पिळगी घडोवपाचें मिशन. जें कोंकणी भाशा मंडळान हातांत घेतलां. जें आज इंग्लीशींत चलपी शाळा कोंकणींत करून उत्तर गोंयचे शिमेर केरी-सत्तरीचो गोपिनाथ गांवस करता. वा दक्षीण गोंयचे शिमेर निराकार शिक्षणसंस्था नवी कोंकणी शाळा सुरू करून करता. आनीकय शाळा आनी शिक्षक आसतले. ते वाडटले तेन्नाच ही मोख पुराय जातली. ताका पर्यायच ना.

संपर्क: 9422063000



# आमचे भाशेक राश्ट्रमान्यताय मेळ्ळ्या, पूण...

उल्हास पै रायकार

आमचें संविधान इंग्लीश भाशेंतल्यान तयार करचें पडलें. हातूंतल्यान इतिहासान आमचे संस्कृतायेचेर केल्ली सक्ती दिसता. पुण हरयाळी कितलीय जरी हुमटावन उडयली तरी पावस पडटकच ती आपली पांचवीचार रुपावळ घेवन परत किल्लता तशी राष्ट्रभास आनी राजभाशेची हरयाळी स्वतंत्रतायेच्या पावसान परत किल्लली. कितलीय परत कांडून उडोवपाचो यत्न केल्लो तरी ती परत परत किल्लता, आपलें नीज रुप दाखयता आनी दाखयत रावतली, मनाक थाकाय दीत रावतली. नड म्हूण तिची नडणी करपी मनशांचे हात मात तांच्या मनाभशेनूच घाण जायत रावतलें आनी तोय एक इतिहासाचो वांटो जातलो.

गोंयच्या भाशेचो प्रस्न स्वतंत्रतायेपयलींच उप्रासलेलो. कोंकणी ही एक स्वतंत्र भास हें मत तेन्नासावनूच आशिल्लें. गोंय सुटकेउपरांत ९ जानेवारी १९६४ दीसा जेन्ना पयली विधानसभा जाली तेन्ना आमदारांनी खंयचे भाशेंत उलोवचे हाचेरूच चड भासाभास जाली.

अशीच गजाल आमचे राष्ट्रभाशेची. संविधानाचो पैलो मसुदो जेन्ना तयार जालो तेन्ना 'संसदेची भास हिंदी जांव इंग्लीश आसतली' अशे तातूंत आशिल्लें. ताचेर घेऽऽ बोवाळ! उत्तरेकडल्या वांगड्यांक हिंदी जाय जाल्यार दक्षिणेकडेले चडशे वांगडी संसद इंग्लीशीतल्यानूच चलची ह्या मताचे. इंग्लेज गेले तरी ताणी उत्तर-दक्षिणेकडल्या वांगड्यांक उदेंत-अस्तेंत दाखोवन दवरिल्ली. श्री. के. एम्. मुन्शी हांनी श्री. एन्. गोपाळस्वामी अय्यंगार हांकां उपाय काडपाक सांगल्या उपरांत तांणी सुचयिल्लो उपाय हो मुन्शी-अय्यंगार फोर्मुला जालो. ताचेरूय व्हड भासाभास जाली. संस्कृत राष्ट्रभास जांवची अशाच मताचे वांगडी आशिल्ले. देशांत सगळ्यात चड लोक जी भास उलयता ती राष्ट्रभास जावची अशें थाल्लें. संविधान सभेंत ते वेळार उलयतना श्री. टी.अे. रामलींगम चेट्टीयार हांणी म्हळें:

"After all where do we stand? We have got languages which are better cultivated and which have greater literature than Hindi in our areas. If we are going to accept Hindi, it is not on account of the excellence of the language, it is not on account of its being the richest language or on account of its being, as it has been claimed for Sanskrit, the mother of other languages and thing like that. It is not that at all. It is merely on account of the existence of a large number of people speaking Hindi, not even a majority of the population of the country, but only among the languages which are spoken in India, Hindi claims probably the largest number of people... We have agreed to accept Hindi and the Nagari character as the official language and script because, as I said that language claims a larger number of people speaking it than any other language in India...

*(Constituent Assembly Debate, Vol. IX, pages 1372)*

श्री. एन. गोपाळस्वामी अय्यंगार हांणी अशें म्हळें: "Then we had to consider the question of the States and we took a decision that, as far as possible, a language spoken in the State should be recognised as the language used for official purposes in that State and that for inter-state communications and for communication between the State and the Centre the English language should continue to be used, provided that where between two States there was an agreement that intercommunication should be in the Hindi language, that should be permitted."

जस्टीस रंगनाथन हांणी ह्या विशयाचेर अशें म्हळां. "The recognition of Hindi as the Official Language of the Union and the most widely spoken language in a State as its official language has necessitated the provision of various directives and safeguards to protect the interests of individuals and minorities."

*(Constitution of India : Five Decades - page 451).*

निमणें संसदेन आमच्या देशाची भास देवनागरी लिपयेंतली हिंदी भास आसतली अशे थारायलें आनी कलम ३४३चो जल्म जालो. हातूंत संघ (union) असो शब्द वापरलां.

सुटके उपरांत गोंयच्या भाशेचो प्रस्न विलीनीकरणाच्या प्रस्नावांगडाय आसलो. जनमत कौलान तोय सोडयलो. वर्स आसलें: १९६९.

कोंकणी ही एक स्वतंत्र भास हें म्हणणें साहित्य अकादमीन मानून घेतलें. दीस आसलो २६/२/१९७५. ताचेर निमणी म्होर २५/२/१९७६ ह्या दिसा लागली.

साहित्य अकादमीच्या मान्यतायेक लागून कोंकणीक स्वतंत्र भाशेचो पाट बसपास मेळ्ळो. मुखावेल्या उदरगतीचें मुळावण ह्या मान्यतायेन घालें.

संविधानान संघाची राजभास अशीं उतरां वापरल्यांत. हांगा संघ म्हळ्यार राज्याचो संघ. राज्याच्या राजभाशेविशीं संविधानाचीं ३४५, ३४६ आनी ३४७ हीं कलमां आसात. खंयचींय भास राजभास म्हूण आपणायतना 'One or more languages used in State' अशीं उतरां कलम ३४५त वापरल्यांत जाल्यार कलम ३४७ सात 'spoken' म्हळ्यार उलयता ती भास अशें उतर आसा. कायद्याची अर्थलावणी संबंदीत कलमां लेखूनूच करपाचीं असो नेम. देखून ३४५ हें कलम ३४३ आनी ३४७ ह्या कलमांवांगडा वाचूंक जाय. तशेंच मुन्शी-अय्यंगार फोर्मुला म्हळ्यार रुपसूत्र हाका लागू जाता.

४ फेब्रुवारी १९८७ ह्या दिसा गोंय विधानसभेंत राजभास विधेयक पास केलें आनी १४ एप्रिल १९८७ ह्या दीसा ताका राज्यपालांची मान्यताय मेळून गोंय दमण आनी दीव राजभास कायदो लागू जालो. हे वरवीं देवनागरी लिपयेंतल्या कोंकणी भाशेक राजमान्यताय मेळ्ळी.

" आमच्या देशात कितल्योशोच भासो उलयतात. पूण आठवे वळेरेंत आशिल्ल्यो भासो संविधान मानता. कलम ३४४ वरवीं राजभाशेखातीर आयोग आनी संसदीय समिती घडोवपाची तरतूद आस आनी ताचे वांगडा आठवे वळेरीत आशिल्ल्या भाशांचे प्रतिनिधी आसपाचीय तरतूद आसा. कलम ३५१ नांत आठवे वळेरींतल्या भासांची रुपां, शैल्यो आनी शब्दप्रयोग आस्पावन हिंदी भाशेच्या विकासाखातीर निदेशक आसा. भासो आठवें वळेरींत आस्पावपाची मोख ही आशिल्ली. अशें आसलें तरी उपरांत ह्या वळेरींतल्या भासांक केंद्राच्या कांय येवजणांचो लाव मेळूंक लागलो. २० ऑगस्ट १९९१ ह्या दीसा कोंकणीचो आस्पाव घटनेच्या आठवे वळेरींत जालो. आनी तो राष्ट्रमान्यताय दीस म्हूण मनयतात. हाका लागून केंद्र सरकारान संविधानाचो अणकार कोंकणी भार्शेत करून घेतलो. चलनी नोटींचेर कोंकणींतले बरप आयले. यूपीएससी परीक्षेक कोंकणी विशयाचो पेपर बरोवपाक मेळ्ळो. भाशेसंबंदीची केंद्र सरकाराची जी धोरणां आसात ताचो लाव आतां कोंकणीक जाता. पूण राजभाशेचो मान आनी आठवे वळेरीवरवीं राष्ट्रमान्यताय हाचे मुळावण साहित्य अकादमी सारकील्या भासांच्या सर्वोच्च संस्थेन स्वतंत्र भास म्हूण दिल्ल्या मान्यतायेंत आसा. ह्या संस्थेन दिल्ली मान्यताय ही राष्ट्रमान्यतायूच.

गोंयांत जरी कोंकणी ही राजभास म्हूण आपणायली तरी सरकारान पुरायेन हो कायदो उपेगांत हाडूंक ना. कोंकणींतल्यान आयिल्ल्या पत्रांक कोंकणीन जापो दिवप, देवस्थाना आनी कोमुनिदादीच्यो नोटीसी ह्या भाशेत उजवाडावप, पुलीसेंत करतात त्या विधानाची नोंद करप, सरकारी नांवाच बोर्ड, आमंत्रणां आनी रस्त्यांच्या नावाचे बोर्ड आनी तकटे हाचेखातीर अधिसुचोवण्यो आयल्यात आनी कामूय सुरू जालां. राजभाशा संचालनालयान उजवाडायिल्ली प्रशासकीय शब्दावली आनी वेंचीक पुस्तकां ही आस्तदिणी गजाल. सरकारी नोकऱ्यांनी कोंकणीचें गिन्यान गरजेचें अशी अट आसा. ती राजभास कायद्याची अंमलबजावणी नासली तरी गोंयकारपण तिगोवपाखातीरचो मान अशें मानूं येता. राजभास कायद्याची ज्या नेटान अंमलबजावणी जावपाची तशी जावंक ना. हाचे मुखेल कारण म्हळ्यार राज्यकर्त्यांची मोख ही सत्ता तिगोवपाचो आसा. ह्राका लागून विकासाच्या मुळाक जावं संस्कृतीच्या मुशीत कोण वचनात. जे वचूंक सोदतात तांकां दुसरे आडवणा घालतात. तत्व म्हण्टा तें उल्लां कांय कितें हाचो दुबावूच. निमणें सर्गेस्त शंकर भांडारी हांच्या कवितेंतल्या कांय वळींची परतून परतून याद येता:

*तत्वाखातीर प्राण दीन*
*थैं मागीर सुवार्थ ना*
*दुडू कोणे केल्यात गा*
*वतना कोण घेवन वतलो?*
*पूण पक्षाखातीर कित्याक म्होडूं?*
*तत्वाचो म्हूण नांव जोडलां*
*म्हजे शीमेर म्हजो नीस*
*तुजें तुकां म्हजें म्हाका*
*पूण कोर्टांत जेन्ना गेल्ले आका*
*निरुपायान मदलें दुरीग म्होडलां.*

*(कोंकणीच्या राश्ट्रमान्यताय दिसा निमतान पणजेंत केल्ले उलोवप.)*

संपर्क: 9422440550



बाविसावी खिस्त

## म्हजो रवीन्द्र सांगात

दिलीप बोरकार

# संपूर्ण क्रांतीची दिक्षा...

'च्ये ... कांयच जावपाचें ना हांचेकडल्यान...'

रवीन्द्रबाबान उबगून शें म्हळें. शशिकला काकोडकारांचो कोणतरी, खंयतरी जाहीर निशेध करतलोच अशी रवीन्द्रबाबांची अपेक्षा आशिल्ली. कुडचड्यार ३१ डिसेंबर ७७ आनी १ जानेवारी ७८ ह्या दोन दिसांत जावपी गोमंतक मराठी साहित्य संमेलनाच्या १५ व्या अधिवेशनाचे माचयेर हो निशेध जावंक जाय अशेंय तांकां दिसतालें.

संमेलनाचे अध्यक्ष आशिल्ले लक्ष्मणराव सरदेसाय तांच्या भाशणात तरी तो विशय आसपावतलो अशें तांकां दिसतालें. ह्या संमेलनात शंकर रामाणींक भांगरापदक मेळिल्लें. आपल्या भाशणात तरी रामाणीन निशेध मारचो अशेंय रवीन्द्रबाब उलयताले. संमेलनाचे उद्घाटक आशिल्ले माधव गडकरी. पूण तांचे कडल्यान मात रवीन्द्रबाबांची कसलीच अपेक्षा नाशिल्ली. म्हाका हें मातशें विचित्र अशें दिसतालें. रवीन्द्रबाबांक विचारचें अशें दिसतालेंय. पूण धाडस जाय नाशिल्लें. शशिकला काकोडकार मराठी साहित्य संमेलनाच्यो अध्यक्ष म्हूण पुण्याक खंयच्या अधिकारान गेल्ल्यो हो रवीन्द्रबाबांचो प्रस्न आशिल्लो आनी दुर्गा भागवतांचो विरोध आसूनय शशिकलाताईन तो मोह टाळ्ळो ना हाची रवीन्द्रबाबांक खंत आशिल्ली. गोंयच्या मराठी संमेलनाचे उद्घाटक आशिल्ल्या गडकरींकडल्यान तांचो निशेध जावप शक्य ना अशेंय तांकां दिशिल्लें आसूं येता. येदें व्हडलें संमेलन गोंयांत जावन लेगीत हे घडणुके कडेन कोणेच गांभिर्यान पळोवंक ना; एम्. एस्. प्रभून लेगीत अशें कितें तरी खंतीन रवीन्द्रबाब उलयताले.

ह्या काळांत रवीन्द्रबाबांचेर वेगवेगळ्यो जापसालदारक्यो येवन पडिल्ल्यो. फेब्रुवारी म्हयन्यात कोचीनांत बारावी अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य परिशद आयोजीत केल्ली. त्या अधिवेशनाचे अध्यक्ष म्हूण सद्याचे अध्यक्ष चंद्रकांत केणी हाणी रवीन्द्रबाबांचे नांव जाहीर केल्लें. ते पासत सगळ्या थरांतल्यान तांचें अभिनंदन जातालें. साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार लाभिल्ले पासत तांचें अभिनंदन आनी भोवमानय जाताले. तातूंत साहित्य अकादेमीचे सर्व सादारण सभेचे वांगडी आशिल्ले बाकीबाब आपलो कार्यकाळ सोंपिल्ल्यान ते सुवातेपासत रवीन्द्रबाबांचें नांव सुचोवन मेकळे जाल्ले. साहित्य अकादेमीचे अध्यक्ष म्हूण गुजराथी कवी साहित्यिक उमाशंकर जोशी हांचें नांव निश्चित जाल्लें. तांचे वांगडा वावरूंक मेळटलें म्हूण रवीन्द्रबाब खूश आशिल्लेच. कित्याक रवीन्द्रबाब कोंकणी इतलेच गुजराथी भाशेचेर प्रेम करताले. आपलें शिक्षण गुजराथी भाशेंत जालां म्हूण ते अभिमानान सांगताले. कोंकणी इतलोच तांचो गुजराती भाशेचेर मोग आशिल्लो. तांकां हांव गुजराती पुस्तकां वाचतना पळयतालों. म्हाकाय गुजराती लिपयेची वळख करून घेवपाची संवय लागिल्ली. भास थोडी भोव कळनाशिल्ली तरी संदर्भासयत अर्थ लावं येतालो. रवीन्द्रबाब जेवणाक बसचे आदीं न्हावन येतां म्हूण वताले आनी हांव भायर वासरेर एकलोच उरतालों. तेन्ना रवीन्द्रबाब

वाचता तें पुस्तक काडून हांव अचळय चाळटालों. जंय मेरेन वाचून जालां थंय रवीन्द्रबाब कागदाचो एक कुडको दवरून पुस्तक अचळय धांपताले आनी आपल्या ओल्तेराकुशीच्या मेजार दवरताले. ते कितें वाचतात हाची म्हाका उमळशीक आसताली.

म्हाका पुस्तक वाचता आसतना मर्दीच उठचें पडलें आनी तें धापचें पडलें जाल्यार हांव त्या पुस्तकाचें तें पान दोडटालों आनी बंद करतालों. पूण रवीन्द्रबाबांच्या खंयच्याच पुस्तकांत म्हाका अशें दोडिल्लें पान सापडूंक नाशिल्लें. एकेच बसकेंत पुस्तक वाचून सोंपोवप शक्य नाशिल्लें. रवीन्द्रबाबांक हातांतलें पुस्तक तें वाचता आसतना कोणूय आयलो आनी तांच्या वाचनांत खंड पडलो जाल्यार तें पुस्तक मेजार उमथें घाल्लें हांवें पळोवंक नाशिल्लें. तांच्या त्याच पुस्तकांत कागदाचो एक कपटो आसतालो. तो ते सांबाळून दवरताले आनी पुस्तकांतल्या त्या पानांत भायर दिश्टी पडटा तशें खोयताले. पुस्तक बंद करताले आनी अचळय मेजार दवरताले. एक कलात्मकताय दिसताली तांचे हे करणेंत. पुस्तकाचेर कितलें प्रेम करूंक जाय हें भावतालें. पुस्तकाचीं पानां दोडप ना, पुस्तक वाचचेंच आनी तें तशेंतल्ल दवरचें हाची दीक्षा म्हाका रवीन्द्रबाबांकडल्यान अशे तरेन लाभिल्ली. रवीन्द्रबाब वाचताले तें पुस्तक हांव चाळटालों आनी आसा तशें ताणी दवरिल्लें सुवातेर दवरतालों. हांव गुजराती वाचपाचो यत्न करतां हाचीय तांकां अपुर्बाय दिसताली.

रवीन्द्रबाब कोचीनांत फेब्रुवारींत जावपी कोंकणी परिशदेचें अधिवेशन यशस्वी जावचें म्हूण वावुरतालेच. दिसरात तांकां तोच हुसको लागिल्लो. तांकां तो लागिल्लो काय म्हाकाच तो लागिल्ल्यान म्हाका तशें दिसतालें काय? भोवतेक तशेंच आसूं येता! रवीन्द्रबाबांचें वावरप सहजतायेन जातालें. ते अध्यक्ष आशिल्ल्यान तांकां अध्यक्षीय भाशण तयार करपाचें आशिल्लें. तेच वांगडा तांकां जानेवारी म्हयन्यांत कल्याणाक जावपी गुजराती साहित्य परिशदेचें निमंत्रण आयिल्लें. थंयीय ते भाशण करपाचे आशिल्ले. ताचीय तयारी ते करताले. मर्दी मर्दी म्हणटाले, 'दिसाची वरां खूब्ब कमी आसात न्हय रे? तीं चोविसांची अठ्ठेचाळीस केलीं तरी आमकां वेळ पावतसो दिसना.' ते म्हाका सांगताले काय आपले भितरूच उलयतात तेंय म्हाका केन्ना केन्ना कळऽ नाशिल्लें.

कल्याणाक जावपी गुजराती साहित्य परिशद, कोचीनाक जावपी कोंकणी साहित्य परिशद हाचे वांगडाच रवीन्द्रबाबांचेर ते दिसांनी आनीक एक जापसालदारकी पडिल्ली ती म्हळ्यार जयप्रकाश नारायण हांचो संदेश, तांचे विचार गोंयच्या तरनाट्यांमदीं बळावपाची.

जयप्रकाश नारायणांच्या देशभरांतल्या अनुयायांनी तांचो अमृत महोत्सवी वाढदीस मोठ्या दबाज्यान करपाचो थारायल्लो. त्या निमतान तांकां एक थैलीय भेटोवपाचें थारिल्लें. सगळ्या राज्यांनी थंय थंयच्या वावुरप्यांनी समित्यो स्थापन केल्यो. जेपींचो संदेश लोकांमेरेन पावोवपा वांगडाच जेपींक थैली दिवपा पासत फंड एकठांय करपाचें काम चलतालें. गोंयांतय 'जेपी अमृत महोत्सव समिती'चो फांटो ऑक्टोबर १९७७त उकतो केल्लो. अध्यक्ष आशिल्ले मडगांवचे एक नामनेचे उदयेजक आनी समाजसेवक विचारवंत दामोदर नरसिंह नायक. हे समितीचे रवीन्द्रबाब वांगडी आशिल्ले. देशांत आणिबाणी आशिल्ली. आणिबाणीक विरोध करपी सगळ्यांक इंदिरा गांधी धरून भितर उडयताली. जयप्रकाश नारायण हे आणिबाणीचे खर विरोधक आशिल्ले. तांचो अमृत महोत्सव करपाक, तांचे पासत फंड एकठांय करपाक धाडस जाय आशिल्लें. रवीन्द्रबाब फंड एकठांय करूंक झोळी घेवन भोंवताले. जयप्रकाश नारायणान संपूर्ण क्रांतीची घोशणा केल्ली आनी देशांतले युवक ते घोशणेन पेटून उठिल्ले. तांचे मर्दी स्फुरण चडिल्लें. दरेकल्याच्या ओंठार संपूर्ण क्रांती आनी जेपी हीं उतरां खेळटाली आनी देशांत युवा शक्तीक एक खर प्रेरणा लाभिल्ली.

गोंयांत कितें करूं येता हाचेर रवीन्द्रबाब विचार करताले. आणिबाणीक लागून रवीन्द्रबाब म्हाका पयस दवरताले तरी जेपींचे संपूर्ण क्रांतींत हांवें वांटेकार जावचें अशें तांकां दिसतालें. रवीन्द्रबाब जेपींच्या विचारांचें मनन करताले, चिंतन करताले. जेपींच्या ७१व्या जल्मदिसा गुजराती भाशेंतल्यान 'विचार यात्रा' म्हूण (आतां पुस्तकाचें नांव याद जायना) पुस्तक प्रकाशीत केल्लें. जेपीन जीं भाशणां केल्लीं, लेख बरयिल्ले तांचें तें संकलन आशिल्लें आनी रवीन्द्रबाब तें अर्दीमर्दी वाचतना हांवें पळयिल्लें. गोंयचे 'जेपी अमृत महोत्सव समिती'न रवीन्द्रबाबांचेर युवका पासत प्रशिक्षण शिबीर घेवपाची जबाबदारी घाल्ली. थैली दिवपा खातीर फंड एकठांय करपा वांगडाच हीय जापसालदारकी रवीन्द्रबाबांनी घेतिल्ली. गोंयच्या म्हाविद्यालयांनी शिकपी ४० विद्यार्थ्यांक एकठांय हाडचे आनी तांचे पासत एक दिसाचें प्रशिक्षण शिबीर घेवचें अशे थारिल्लें आनी रवीन्द्रबाबांवांगडाच मडगांवचे एक सामाजिक कार्यकर्ते र. वि. जोगळेकर हाणींय ह्या शिबिरांत ह्या युवकांक मार्गदर्शन करचें अशें थारिल्लें. र. वि. जोगळेकर हे मराठी उलयताले. सदांच आक्रमक. रवीन्द्रबाब हांचो शांत, उतरां मेजून मापून वापरपाचो सभाव, मायेस्त वागणूक आनी ह्या र. वि. जोगळेकार नांवाच्या धुसमुसल्या मराठीवाद्याचें कशें जुळटा काय असो म्हाका प्रस्न पडऽ. जोगळेकार हे आरएसएस म्हूण बी हांवें आयकल्लें. आरएसएस हो कितें प्रकार हें म्हाका खबर नाशिल्लें. पूण तांची ती शिस्त, तांच्या हातांतली लाठी, संघसंचलन बी म्हाका आपलेंशें दिसतालें. ह्या लोकांचो आदर्श स्वातंत्र्यवीर सावरकर म्हणपाचेंय हांवें आयकल्लें. सावरकरांची ती काळ्या पाणयांची शिक्षा, संडासांतल्यान पळून वचपाचें धाडस, जयस्तुते जयस्तुते ह्या सारकीं पदां वो कविता म्हज्या आंगार तेन्ना कांटो हाडटाल्यो. पूण रवीन्द्रबाब सावरकरांविशीं, संघवाल्यांविशीं बरें उलयनाशिल्लें. थंय म्हजो गोंधळ जातालो. खरें कितें तें कळऽ नाशिल्लें. रवीन्द्रबाब सांगतात तेंच खरें दिसतालें. तातूंत म्हाका त्या जोगळेकर म्हणटात त्या मनशाचे घारशे दोळे, जाका भेदक दोळे म्हणटात. अशें हांवें गुप्तहेर कथा वाचून सोद लायिल्लो. ते म्हाका बिलकूल आवडनाशिल्लें. तरी लेगीत रवीन्द्रबाबांवांगडा ते आसात म्हणटकच तांचे पासून पयस रावप म्हाकाय शक्य नाशिल्लें.

गोंयच्या वेगवेगळ्या कॉलेजीनी संपर्क करून विद्यार्थ्यांक रामनाथी एकठांय हाडपाचें थारिल्लें. ह्या युवकांक दिसभर जयप्रकाश नारायण

(पान २४ चेर)

सदतिसावी खिस्त

## दिसपटी

शांताराम आमोणकार

# पांगूळगाडो सुटलो

**१९.९.१९५३, शेनवार.**

इतले दीस भायले भायर थारावण्यो चलिल्ल्यो. मुदलाक हात वचूंक नाशिल्लो. Approach चडसो negative आशिल्लो. आतां मात स्वतंत्रकाय आयली. थंयचे थंयच नाच करचेलें सोडून दिवप स्वतंत्रकायेचो रिस्क घेवन जीण सारपाचो धीर आयलो. हाचींच इतलीं वर्सां वाट पळेतालों. तें घडून येवपाक कारणां निश्चीत सांगपाक नजो. बेठेंच, आपशींच सुचलें.

आतां मेरेन अशेंच सारकें चलिल्लें - एकाची गुलामगिरी सुटप आनी दुसऱ्याचे गुलामगिरींत पडप: स्वतंत्रकायेचो भंय दिसतालो. वृत्तीच भिजूड जाल्ली. कित्याचो नाजाल्यार कित्याचो आधार घेतले बगर शिक्षण जावचेंना अशेंच दिसतालें. स्वतंत्र येवजणुकेची शक्तूच दड मारून बशिल्ली. आतां मात पांगूळगाडो सुटलो.

जें कितें हांवें आज मेरेन केलां ताणें म्हजे वाडीक हातभार लायला. प्रॉग्रेस सारकोच जायत आसा.

ह्या पांच म्हयन्यांत कॉपी जाल्योनात, पूण जायतें काम जालें -

Stone carving - चक्र, सोरपांची जोडी, वाग, घुबड आनी कंपास वापरूंक शिकपाचें काम.

Clay modelling - नाक, ओंठण कान, आनी दोळो जावपाचे आसात. हात, पांय, दोन तोंडां, नेपोलियन आनी मायकल आंजेलोचो एक स्टडी- इतलें कास्ट जावन हातांत पडिल्ल्यांत जमा.

Modelling and Sculpture - दोनांचीय मात कल्पना आयली. आतां स्वतंत्र काम करपाक जाता.

स्कॅचीस करपाचें काम केलें थोडें. फाटलेंच खरें पणून स्वतंत्र. आनी still life, Compositions करपाची तितलीशी संवय जाली म्हणिना... फाल्यांच्यान landscapeक वचपाचें थारायलां.

फुडल्या स म्हयन्यांत वावराक मातशी कर्तुत्वाची आनी निजाची झांक मारतली. तेंच मुख्य.

जिवाक घटाय नाशिल्ल्यान wood carvingत मात कांय शिकप जमलें नाच. पणून फुडें पळोवचें तें.

हे फुडें 'स्कूलां'नी गेलों. जाल्यारूय मुख्य भार म्हज्याच वावराचेर. स्वतंत्र कामाचेर. कामाचें धोरण कितें आसचें, धाटणी, मोड कशी आसची, काम कशे तरेन करचें - हजार प्रस्न मनांत ठाण मारून सतावन सोडटाले. कांय प्रस्नांक जापूच नाशिल्ली. वावर करूंक लागना बरबर मार्ग मेकळो बरो दिसूंक लागलो. आतां त्याच मार्गान वचपाचें थारायलें.

काल एक पुस्तक वाचपाक दिल्लें सांवर्डेकारान. नांव Modern Building बरोवपी - Walter cust Behrendt. Intution आनी thought हे दोनूय मार्ग आनी तांचें integration हांचेर कला आधारून

आसता अशें तो सांगता.

ह्या पुस्तकान म्हज्या कामाची दिका आंखली. आतां मेरेन कशे तरेन चित्रावप जावं वावरप तेंच समजऽ नाशिल्लें. आतां मात विशिश्ट जाग्याची, पुस्तकांची, वातावरणाची - कसलीच गरज दिसना. दुसऱ्या कोणाच्याच आधाराची गरज दिसना. उजवाड मेळ्ळो मातसो सो!

हे फुडले आठ म्हयने फकत वावर - तोंड धांपून मोन्यांनी वावरप. इतलेंच चार उतरांचें व्रत घेतां. कितल्याश्या येवजणुकांतल्यान हीं चार उतरां मोतयां कशीं शीं फांफडून, आसडून, वेंचून आपशींच मेळ्ळीं. तांची जतनाय करुन तोंड धांपून निखटो वावर करप म्हळ्यार म्हजे सारकेल्या मनशाक कमीचें काम न्हय!

३ सेतेंब्राक कलेच्या शिक्षकाचे नोकरेक अर्ज केल्लो ताचो कॉल पसून आयलोना. तिड्डक मारली. पणून ह्या चार उतरांचो मार्ग मेळटकच सगळो राग नाच जालो.

पापया, तोंड धांपून मोन्यांनी वावर कर! ते सारकें दुसरें समाधान ना. सगळी कोडसाण विसरपाक हे सारकें दुसरें साधन ना. हेवटेन तेवटेन कित्याचेरूच लक्ष दिनासतना, सगळें चित्त एकठावन, मोन्यांनी, उमथे मानेन वावर कर! मागीर तुजें तुका मेळटलें. Silence and hard work! You will be victorious even in your defeat!

**१.१०.१९५३**

घरा वचपाक तयार जालां... School of Art सोडलां. एकाद्या वेळार सकाळचो क्लास परस चालू दवरीन. निमाणें आतां पदरांत पडलीं तीं, आनी ते खातीर वेळ आनी पयशे खर्चिले ताचो हिशोब -

Stone carving फी ७५ रु. + २ रु. जिमखाना फी = ७७ रु. एक चक्र, एक सोरपांची जोडी (पोरबंदर फातर), एक वाग प्लास्टर आनी तोच फातरांत (खारो फातर), एक घुबड प्लास्टर (फाताराक आंखावन तसोच सोडला). कंपास शिकून घेतलो. जाता तितलें काम शिकून घेतलें. घुबडूय तयार जायत आसलें, म्हळ्यार म्हजी ह्या दोन म्हयन्यांत प्रकृती सारकी ना. Term period - १०.६.१९५३ ते १०.११.१९५३. हांवें धरलां १२.६.१९५३ ते ३०.१०.१९५३.

Wood Carving - खर्च १२ रु. विशेश जमलेंना. कारण जीव बरो ना. तरी पूण आवतांची खबर घेतली. एक अर्दकुटी हरणांची जोडी (प्लेट : येदीचें लांकूड) आनी एक अर्दकुटा सायलाचो वाग करूंक घेतलो. म्हाका दिसता, इतलेंच पुरो. हांवें घरांतल्या घरांतूच वावर घेवन बसचो. ह्या दोनूय कामां खातीर स्कुलाची हे फुडें व्हडलीशी गरज ना. वेळ : आगॉस्त अर्दसो आनी सेतेंब्र. मदीं म्हयनोभर नाच वचूंक. म्हळ्यार, सगळें मेळून वीस एक दिसांचें काम.

Clay modelling फी ५० रु + २५ रु. प्लास्टर बॅग. Term period १०.७.१९५३ ते ३०.१०.१९५३. म्हळ्यार तीन म्हयने, ८ ते १०. हे दोन म्हयने कामार लक्ष ना. णव ते साडे णव वतालों. तितलें मागीर वावरप. ताका लागून कामाचें नुकसान जालें. पूण जिवाक लागून हांव ओगीच रावलों. कामां : नाक, दोळो, कान, ओंठ, मेळून तीन दिसांचो वावर. ते शिवाय एक ल्हान भुरग्याचो हात, दादल्याचो पांय, दोन बायल - मनशांचीं तोंडा (high relief), आनी दोन पोर्ट्रेट्स (कॉपी). एक नेपोलियनाचें तोंड आनी दुसरें मायकल आंजेलोचें. धा नग. २५ रु + ५०रु. मेळून ७५ रु. खर्च.

ह्या जुना पसून आज १ तारके मेरेन सगळो वेळ stone + wood + clay ह्यां शिल्पकलेच्या कामा खातीर दीस मोडले. ताचें सामान वापरूंक शिकलों. कितल्याश्याच वर्सांचो तो संकल्प. मातयेच्या गणपतींतल्यान आरंभ जाल्लो. मराठी तिसरे चवथे यत्तेंत आशिल्लों तेन्नाच्यान कट्टेंत जमनीची माती घेवन आंगशान चाळून शेटीले कुठीचे पडवेर मदेराचे खांचींत कामाक आरंभ. मदीं आबा आनी गोविंदाल्या गणपतींक हात घाल्लो. घरचो गणपती करपा मेरेन मजल. आतां स सात वर्सां ते तीस वर्सां म्हळ्यार वीस-पंचवीस वर्सां मदीं गेलीं. तरी दुदाची तान थोडी तरी ताकार म्हणिनात तशी भागली. हे फुडें ही आवड वाडोवप. म्हज्या हातांत सगलेंच आसा म्हणिना. सामान सगळें जमला. फातरा कामाक एक कंपास - १७५ रु., एक सादो कंपास आनी काटकोन इतलेंच मुख्य. लांकूड कामाक दोन खरवती आनी धार काडपाक फातर इतलेंच मेळ्ळ्यार पुरो. व्हडल्या आनी बारीक मातये कामा खातीर आवतां तयार आसात. एक-दोन तस्तां आनी स्टँड करून घेतल्यार पुरो.

आतां इतलें सगळें जातकच पेंटींग खंय पावलें आनी ताची फुडें गत कितें? हे फुडें दोन वर्सां पर्यंत sculpture ही पेंटींग करून उरिल्ल्या वेळांत करपाची खबर. खऱ्यांनीच म्हज्या मनाची शिल्पा कडेन ओड. पणून इलाज चलना म्हजो. एकलो आशिल्लों जाल्यार एक वेळ लग्न पसून जाय नासतना sculptureचो वाज यो म्हणसर अभ्यास करीन आसलों. पणून आतां मना पसून शालूची जबाबदारी घेतल्या ती पूर्ण करून उरिल्लो वेळ sculptureक, म्हणजे शिल्पाक, फकत म्हज्या समाधाना खातीर. बाकी सगळ्यां खातीर चित्र!

आजूच १८ कागद cartridge आनी B-27 Windsor & Newton ची बॉक्स (student quality) घेतली, णव रुपयांक. घरा वचून फकत landscape आनी जमल्यार still life in water colour येतकच फुडली खबर बरोवप. *Religion of the Artist* by Ravindranath Tagore आनी *Autobiography* by Jawaharlal Nehru वाचतां. हे फुडें सगळें लक्ष प्रत्यक्ष पेंटींग करपा कडेन घालप. येता आसतना tracing paper जावं हेर सामान पयशे आसल्यार हाडप. पणून आतां पुस्तकां जावं सामाना परस limited motto दवरून तितलेंच काम सामकें खोलायेंत वचून करपाची तजवीज.

हीं दोन वर्सां जीव बरो उरल्यार बाकी चित्रकारां इतलें काम करतलों म्हणटां. इतलेंच न्हय, तांचेय परस मोगान ह्या वावरांत ध्यान घालून फुडेंय वचन. मनांतली खबर ही... घडून येता म्हणसर...?





# जिवीतांत अणभवाची सांगातीण

**कृपाली नायक**

दर एकल्याच्या जिवितांतलें पयलें पान म्हळ्यार जल्म आनी शेवटाचें पान म्हळ्यार मरण. ह्या मदीं जे जगतात तें म्हळ्यार जिवींत. तें कशें जगप हें दर एकल्याच्या हातान आसता. कांय जाण दीर्घ आयुश्य घेवन जगतात खरें पूण तांच्या आसपाचो जावं वचपाचो फरक पडना, पूण काय जाण अल्पायुश्यी आसूनय वतना एक चटको लावन वतात. मराठींत एक म्हण आसा. 'मरावे परी किर्ती रुपी उरावें' ह्या म्हणीचो यतार्थ म्हज्या आयुश्यांत माधवी मॅडम दिवन गेल्या. साधेच रावप आनी उच्च विचारसरणी ह्या सुविचारांची देख आमकां सगळ्यांक घालून दिवपी. आपल्या म्होंवाळ स्वभावान दर एकल्याक आपलेशें करपी माधवी मॅडम...

तिणें कितल्याश्यांच विद्यार्थ्यांक मायेची सावळी आनी वेगळेपणाची नदर दिल्या. माधवी मॅडमी बगर कोंकणी विभाग अपुरो म्हळ्यार अतिताय जावचिना. कोंकणी विभाग आनी माजी विद्यार्थ्यांक विद्यापिठाचो कोंकणी विभाग म्हळो काय पयलीं दोळ्यां मुखार येता ती तिचीच मूर्त ह्या मताक सगळींच सहमत आसतलीं. म्हजी आनी तिची वळख ती ह्या विद्यापिठांतूच. म्हाका याद जाता गांवांतल्यान आयिल्लें हांव, लग्न जाल्ली बायल म्हळी काय ती कपलाक लावपी, काकणां घालपी, मंगळसूत्र घालपी हे विचार. पूण ती वेगळी आशिल्ली. हें वेगळेंपण आमकां जाणवतालें आमकां दिशिल्लें ती लग्नच जांव ना. जेन्ना कळ्ळें तेन्ना क्लासांत तिचे सादेपणां विशीं आशिल्लें कुतुहल आनीकूय वाडलें. म्हाका हांगा खेरीत पणान म्हज्या ह्या विद्यार्थी जीवनांतल्यो कांय यादी सांगन दिसतात. उगडास जाता, तो दीस शुक्रार, घरा काणकोणां वचूंक जाय म्हण हांव बेगीन भायर सरिल्लें आनी वर्गांत मॅडमीन पयल्या परिक्षेचे पेपर दिल्ले. सोमारा क्लासांत पावतकच दिपा आनी ग्रुपाचो कलकल. तुका मॅडम सोदताली 'हो नंबर कोणाचो' काय म्हण विचारताली. हें आयकून हांव दपत दपत (भियेवनच) तिच्या रुमान गेलें. 'हांव कृपाली, रोल नंबर...' (आतां याद ना). आऽऽऽ तूं तें... पेपर बरो बरयला. तुका एक वेगळी नदर आसा. हें सगळें तिचें आगळे वेगळे स्टायलीन. एक भूल घालपी. त्या वेळार वेगळी नदर-बिदर कांयच कळूंक ना. पूण मॅडमीक तें आवडलां, हें तिच्या उतरांनी आनी हाव भावांतल्यान कळिल्लें. हें फीत घेवनच हांव क्लासांत आयिल्लें. ह्या वेळार ती सामकीच आपली दिशिल्ली. ती

आपलीच जावन उरली.

विद्यार्थी जीवनांत हांवें कांय शिक्षक पळयिल्लें, जे सांगताले, 'भुरग्यांनो तुमकां जर अमूक एक गजाल शिकयिल्ली कळ्ळी ना जाल्यार म्हजेकडेन येवन विचारात.' पूण केन्नाच तांचे मेरेन वचपाचें धाडस जालेंना आनी जालेंच जाल्यार तो एक पर्याय आसतालो. मॅडम फकत एक शिक्षक न्हय तर काळजाक हात घालपी आवय. एक दीस हांव लोलयेंच्यान येतना बसींत एक गुरवार बायल मेळ्ळी म्हण तिका बसपाक दिलें आनी मागीर मडगांवच्या गर्देक लागून तीन वरांचो प्रवासांत उबें राविल्ल्यान थकिल्लें. २ वरांचेर तिचे लॅक्चराक बसप शक्य नाशिल्लें आनी लॅक्चर चुकोवपाक भंय दिसतालो. क्लासाच्या भायर आशिल्ले कडेन म्हन्यांत आयली 'आगो आज कितें जालां जाम शें दिसता?' सगळें सांगतकच म्हणटा 'चल तूं हॉस्टेलांत, फाल्यां यो शिकयता तुका हांव चुकलां तें'. आनी खऱ्यानीच दुसऱ्या दिसा तिणें म्हाका व्हरून शिकयलां. हेच न्हय, तर एक दीस उलयतां उलयता असोच विशय आयलो, हॉस्टेलांत जेवण सारकें मेळना. जाल्यार दुसरे दिसा ल्हानश्या डब्यांत घालून म्हाका 'हुमण', मॅडम नाका तें, त्रास तुमकां! 'शी त्रास कसलो म्हाका आवडटा करपाक' ह्या हुमणाचो आस्वाद घेता घेतां तांच्या घरच्या मेजार केन्ना जेवंक लागलें तें कळ्ळेंच ना.



अऽऽहहहह (तिवूय खास तिजीच स्टायल) करून हांसत कसलीच अपेक्षा दवरी नासतना आपूण जावन येवन मदतीचो हात दिवपी मॅडम आयज आमचें मदीं शरीरान ना. पूण तुका ना कशें म्हणूं...?

एक दीस आपल्या 'नानू' ह्या नांवाचो इतिहास सांगून म्हणूंक लागली 'कृपाली, तूं म्हाका नानूच म्हण.' 'ना आं ना, तूं म्हजी मॅडमच बरी, 'तुमी' म्हणटाले तें 'तूं' मेरेन पावलां तितलेच पुरो.' कांय वेळार खंयच्याय विचाराचेर म्हजें मत विचारप. तिणें विचारलें तेन्ना तें हांवें दिवप्य. पूण मागीर एक प्रस्न तिका विचारतालें, 'म्हाका सो हो प्रस्न! तुमचे विचार म्हज्याकूय कितलेय बरे! 'तुकाय आपलें मत दिवंक येवंक जाय. सदांच आपलें मत आसचें' तिच्या डायऱ्यांनीय जायते कडेन कृपालीक हें विचारिल्लें तें विचारिल्लें असो उल्लेख मेळूं येता. हें सगळें आतां जेन्ना चिंत्तां, तेन्ना हांव कोण? हो प्रस्न पडलो. ह्या प्रस्नांक, 'हांव कोण?' म्हणचे परस 'म्हजे खातीर ती कोण?' प्रतिप्रस्न आयलो आनी सांगाताक जाप आयली मार्गदर्शक, गुरू, स्वता जळून म्हाका उजवाडाच्या दिकेन व्हरपी एक पणटी, आवय, भयण, इश्टीण आनी ह्या सगळ्यांत सोदिल्लें एक अनामीक नातें... जाका नांव दिवन बंधनांत घालन शें दिसना... आनी देखूनच फाटल्या सात वर्सांत तिचें उत्तर हेंच पयलें आनी निमणें उत्तर मानून वागलां. आनी आयजूय जंय अडचतां, थंय ती आसल्यार कितें सांगतली आशिल्ली हाचेर पयलीं विचार करतां. कारण जें हांव कोणाक सांगूंक शकलें ना, तें सगळेंच तिणें म्हज्या दोळ्यांत पळयलें आनी जो हात दिलो तो शेवटा मेरेन...

भाशेची जाण आशिल्ली बऱ्यांतली बरी संशोधक, कोंकणींतली भासविज्ञानीक ह्या सारकेली सगळ्यांक परिचीत अशी तिची वळख म्हाका तरी करून दिवपाची ना. पूण तिचे लेख वाचतना सादें सोंपें बरोवपाची म्हजी नदर तयार जाली हेंवय एक सतच. म्हाका जाय ती तिची म्हज्या नदरेंतली वळख...

तिणें सदांच म्हणचें, 'बरय'. फकत बरय म्हण सांगूत रावली ना, तर बरोवन घेतलें. तुवें कोंकणी समीक्षक म्हण मुखार येवचें, संशोधन करचें अशें म्हाका दिसता. अशें तिणें सदांच सांगचें. कितेंय बरयल्यार कितें येवंक जाय आशिल्लें कितें नाका तेंवय तिणेंच सांगचें. म्हज्या लिखाणाची समीक्षकय तीच. रवीन्द्र केळेकाराचेर हांव संशोधन करूंक सोदतां अशें सांगलें तेन्ना कृपाली, तातोचेर बरोवप सोपें काम न्हय आं... म्हण एक मायेची शिटकावणी दिल्ली. आज ताची प्रचिती येता. तिचे सांगातान आसतना विशय खंयचोय आसूं साहित्य, कला, इतिहास जांव फिल्म तो गोडच दिसतालो. तिका सिनेमा पळोवंक आवडटाले. गोंयांत फाटलीं साबार वर्सां इफ्फी जाता. हांव केन्नाच वचुना. पूण इफ्फींतले तिणें पळयिल्लें कितलेशेच सिनेमा हांव दर वर्सा तिचे तोंडांतल्यान पुराय व्हिज्युअलायझ करतालें. केन्ना म्हन्यांत आसतना, तर केन्ना मोबायलार...

जाग मासीक हें तिच्या जिविताचोच एक भाग. कितलेय बेगीन सांगूनय वेळार अंका खातीर लिखाण येना तेन्ना, आनी ताका लागून जाग वाचप्यांच्या हातांत वेळार पडना तेन्ना, खूब खंतीय जाताली आनी एकाच वांगडा आयिल्लें काम मागीर रातीच्यो राती जागरणां करून बेगीनांत बेगीन काडपा खातीर (ही जागरणां फांतोडेर तीन चार मेरेन) करतालीं. 'लोकांचीं मध्यान तेन्ना म्हजो जाग, हालीं जागाच्या हुस्क्यान न्हिदच पडना गो म्हाका, जाग आयलो गो,' जागांत आयिल्ल्या साहित्याक कोणाचीय प्रतिक्रिया आयली, जावं कोणांचीच येवंक ना तेन्नाय सांगताली. 'हे फावटी अमक्यांची प्रतिक्रिया आयली गो.' ह्या वेळार आनंदान व्यक्त जाताली. 'पूण कोंकणी लोक कांयच सांगनात गो, आपणें खंतून वचप ना. जाग ही म्हजी निश्ठा समजून वावर करप' हेंय केन्ना केन्ना म्हणटाली. तीच ती कोणाचेय कितेंय आयलें, खास करून नवें बरोवपी तर उमेदीन तांकां फोन करताली. त्याच वांगडा कितलेशेच फावट ताचेर तोंड भरून उलयताली. हाली हालीं तर फाटीचें दुखणें आसतनाय पांच मिण्टां आड पडटां म्हणूनच आड पडून प्रुफां तपासताली, तेन्ना दिसता, ह्या निरंतर कामाची प्रेरणा तिका खंयच्यान मेळिल्ली काय? तातो कडल्यान, काकासाहेबा कडल्यान?

तिचे म्हन्यांत रावन हांव जगपाक शिकलें दर खीण खऱ्या अर्थान जगप म्हळ्यार कितें, तें तिणें शिकयलां. उगडास जाता हांव WRLC पुण्याक आसतनाचो. डॅक्कन कॉलेजींत एक सॅमीनार आशिल्लो. थंय ती कोंकणी विशीं पेपर सादर करपी आनी थंय शिकपी माजी विद्यार्थी म्हण एका सॅमीनाराक आयिल्ली. म्हणूंक लागली "आज दोन कामां आसात करुया मगो?" सांजेचीं आमी ती शिकतना आशिल्ल्या त्या कॅम्पसांत रावपी एका गोंयकार प्युनागेर गेल्लीं. त्या

घर वजा रुमाक भायर भितर जाणटे पणाच्यो कुरवो दिसताल्यो... म्हज्या आंगार कांटो आयलो. बसप कशें? तोय बावडो खाकूडटालो. जाल्यार ही 'काय नज' म्हणत थंय अर्द वर बसली. ताची चवकशी केली. आपली त्या वेळावयली वळख करून दिली आनी ताचे खातीर गोंयांतल्यान मुद्दम व्हेल्ल्यो काजू, किसमिस, एक शर्ट पीस आनी एक लाखाटो काडून दिलो आनी मागीर केळकर सरांगेर गेली. कोणाचो वाडदीस केन्ना, कोणांक कितें आवडटा, त्या सगळ्यांचीं एक पटी तिचें तकलेंत आसताली. आनी त्या प्रमाण त्या त्या मनशांक भेटी दिवप जाताल्यो. हें सादेंपण आनी एक एकल्याची याद दवरून ताचे खातीर कितें तरी करप. हें सगळें आयज मेरेन तरी तिचे कडल्यानूच पळयलां.

माधवी मॅडम म्हणून म्हजो दीस उजवाडटालो आनी सोंपतालोय मॅडम म्हणूनच. आनी आयजूय तेंच घडटा. आदीं तें उलोवपांतल्यान आसतालें. आतां ताची सुवात मनांतल्या मनांत जाता. आयजय मॅडम आसल्यार कशी वागतली आशिल्ली हो प्रस्न पयलीं येता. तिचे उगडास खूब आसात. केन्ना हासयतात, केन्ना अचळय दोळ्यांतल्यान दुकां गळयतात.. पूण तूं ना म्हण मानपाक मन तयारच जायना...

"फाट चड दुखता गो कृपाली, दोतरागेर वतां" म्हण सांगता म्हणसर. म्हैसूर वचपाचें कॅन्सल करून हांव फाल्या मुंबय वतां म्हण सांगूंक तुजो फोन आयलो. म्हण तुका मेळपाक गेलें जाल्यार सदांवरीच आयस्क्रीम दिवन तुवें सांगलें "दोतोरान हालनाका म्हण सांगलां देखून हांव म्हैसूर वचूना, ना जाल्यार वतलें आशिल्लें. कांय ना, हांव फाल्या मुंबय वतलें, परां ऑपरेशन दोन दिसांनी येतलें" हें सांगून गेल्ली तूं अशीं येतली हें केन्नाच चितूंक नाशिल्लें. सदांच दिसतालें कितें तरी चमत्कार जातलो आनी तूं निवळून परत येतली. मुंबय मेळपाक गेल्लें तेन्नाय तूं कशी आसा काय म्हण विचारपाचें तें तूंच म्हाका म्हजें कशें चल्लां तें विचारून भरपूर उलयिल्लीं.

आयताराक बिम्बाच्या पुरस्काराक राजूसरान सांगलें "तूं यो फाल्या माधवीक मेळपाक. तीन वरांचेर भायर सरात" खरें म्हळ्यार त्या रातीं हांव तुका मेळपाचोच विचार करत आशिल्लें. पूण सकाळीं पांच वरांचेर राजू सराचो फोन आयलो तेन्ना दिसलें इतलें अशें जावपाचें आशिल्लें जाल्यार... कित्याक तरी मेळपाची आस लायिल्ली मॅडम?... फटयिल्ले वरी कित्याक गेली?... पूण मागीर दिसलें हांवे तुका ते परिस्थितींत पळयिल्लें नका आशिल्लें दिसता. म्हण हांव मेळचें पयलींच... 'मॅडम तो अमूक गेलो ६२ वर्सांचो आशिल्लो खंय तो.' म्हण एक दीस सांगिल्ले जाल्यार ६२ वर्सा कितें मरपाचें वय गो? म्हण विचारपी तूं वयाची म्हाशी हुपतांच अशी कशीं गेली मॅडम?...

आतां पुन केन्ना तुज्या नंबरा वयल्यान फोन करतां. पूण सदांच दिसता केन्ना तरी तुजो फोन येवचो. भरपूर उलोवचें आनी आदीं म्हणटाली'तशोंच तुज्या ताळ्यान तुवें म्हणचें "तुका फोन करन सो दिसलो म्हण केलो गो... कृपाली..., हरशींच केल्लो गो फोन. आयज मन कोडू जाल्लें. तुजे कडेन उलोवन बरें दिसलें... आनी हांवें म्हज्याय मनाचो ओघ सदां वरीच काडचो तुजे कडेन.

संपर्क: 9765187606



---

*(पान १९ वयल्यान)*

हांची संपूर्ण क्रांती म्हळ्यार कितें हाची म्हायती दिवप, तांचे विचार ह्या युवकांमदीं बळावप आनी मागीर तांकां गांवांगांवांनी धाडून जेपींचो संदेश तांचेमार्फत लोकांमेरेन पावोवप अशी ही एक कार्यावळ आशिल्ली.

म्हाका जेपीविशीं म्हायती नाशिल्ली. आणिबाणी वेळार जयप्रकाश नारायण हांचें नांव सदांच खबरांपत्रांचेर येतालें. जेपी आनी तांची संपूर्ण क्रांती ही मोठ्ठी चळवळ हाची म्हाका हय न्हयशी कल्पना आशिल्ली. जयप्रकाश नारायण हांचो देशाचे स्वतंत्रतायेंत भोव मोलादीक सहभाग आसा, १९४२ चे चळवळीत ताणीं युवकांचेर मोनेळ घाल्लो, बंदखणीच्यो वणटी हुपून पळून वचप, शस्त्रांचे कोठयेचेर आक्रमण करून शस्त्रां लुटप, अंडर ग्रावंड वावर करप अशी पिडापीड ते ब्रिटीश सरकाराक भोगयताले आनी सरकारान तांची तकली कापून जो कोण हाडटा ताका इनामूय घोशीत केल्लें म्हणपाचें रवीन्द्रबाब सांगताले. असले हे व्यक्तीक मेळप, तांचे पासत वावरप, तांचे संपूर्ण क्रांतीचे विचार समजून घेवप म्हळ्यार म्हज्या सारक्यांचें ध्येय आशिल्लें. देश स्वतंत्र जाल्या उपरांत पंडित नेहरु लेगीत आपल्या भाशणांनी 'जयप्रकाश नारायण हे भारताचे भावी प्रधानमंत्री' अशें ' सांगताले खंय! म्हणटकच अशे व्यक्तीचे विचार समजून घेवप म्हजे खातीर पर्वणी आशिल्ली.

जेपींचें रवीन्द्रबाब जें पुस्तक वाचतात तें गुजरातींत आशिल्लें. म्हाका ताचो अर्थ लागऽनाशिल्लो. एक दीस रवीन्द्रबाबान म्हज्या हातांत जयप्रकाश नारायण हांचें एक हिन्दी पुस्तक दिलें, 'मेरी विचार-यात्रा' आनी म्हळें, 'तुका हिन्दी बरी येता. हें पुस्तक वाच. रामनाथी शिबीर जातलें ताचे आदीं वाचून काड. कितें समजना तें म्हाका विचार. संपूर्ण क्रांती हो देशाचो विचार. तुमी तुमचे भितर तो बळावंक जाय.'

हांवें पुस्तक हातांत घेतलें. रवीन्द्रबाब जें गुजराती पुस्तक वाचताले त्याच पुस्तकाचो तो हिन्दी अणकार आशिल्लो - मेरी 'विचार-यात्रा'. रवीन्द्रबाब म्हाका संपूर्ण क्रांतीची दिक्षा दिवंक सोदतात म्हणपाची म्हाका सुलूस लांगिल्ली वो जाणीव जावंक लागिल्ली...

**(चलता)**

संपर्क: 9822136885



# परमळीत जीण म्हजी

सुहास यशवंत दलाल

म्हज्या आज्जोळच्या आज्याचें नांव दत्ता रघुनाथ शेट मोरजकार. ते आदीं सांग्यावेल्या भाटी नांवांच्या खेड्यांत रावताले. थंयचे ते भाटकार. सांग्यार आयल्या उप्रांत बरोच काळ मेरेन म्हज्या आज्याक दत्ता भाटीकार म्हूण लोक वळखताले. खरें म्हळ्यार तांचे पूर्वज पेडणेच्या मोरजी गांवचे. थंयची श्री देवी मोरजाई ही तांची कुलदेवता. भाटी गांवांत आयल्या उप्रांत तांणी भाटीतल्या सिद्‌धनाथ पर्वतावेल्या सिद्‌धनाथाक आपणायलो. आमी आज्याक 'आपा' आनी आज्जेक 'आई' म्हण्टालीं. आपान पाटणकार आडनांवांच्या एका फांकीवंत ज्योतिषान चलयल्ल्या छापखान्यांत 'अष्टोन्तर शतावली' ह्या नांवांचें अभंगाचें ५० पानांचें पुस्तक छापून घेतिल्लें आनी तें फुकट वांटिल्लें. हातुंत एकूण १०८ अभंग आसात आनी तांतले चडशे अभंग श्री सिद्‌धनाथा विशीं आसात. उप्रात पाटणेकार घराबो मुंबय स्थायिक जालो आनी सांग्यावेलो तांचो 'संगमोदय प्रेस' बंद पडलो. भारतमित्र म्हैनाळ्याचे संपादक श्री. ना. भा. नायक हांणी १९६९ वर्सा उजवाडाक हाडिल्ल्या 'गोमंतकीय मराठी काव्य' ह्या पुस्तकांत आज्याल्या पुस्तकाचो उल्लेख आसा. कार्तिक पुनवेक सांग्यावेल्या विठोबाचो रथ ओडटात तेन्ना रथावेली विठोबाची उत्सव-मूर्ती पाणटकाराल्या घरांत व्हरून ताची पूजा करतात आनी मागीर परत रथांत बसोवन देवळांत हाडटात अशें आयकलां.

**पाचवी खिस्त**

म्हजो आजो लांब-रुंद आसलो. त्या काळाचे रिती प्रमाण तकलेच्या मुखावेले चडशे केंस तासून फाटल्यान केंसांचो भोंवरो दवरप आसतालें. घरांत बानयान वो बंडी, भेंडाक धोतर आनी घरा भायर माथ्याक रुमाल, आंगाक लांब हातांचे धवें खोगीस आनी ताचेर धवी ज्युदी (कोट). ज्युदयेच्या वेल्या दावे वटेनच्या बोल्सांत सरपळेक गुथिल्ली वाटकुळी जडशी घड्याळ आसतालीं. वरां पळोवपा वेळार सरपळी ओडून घड्याळ हातांत घेवन वेळ पळयनासतना आज्यालें मुखामळ रुबाबदार दिसतालें. आजो दीसभर विडयो फुसकायतालो. तिंता -गुळयाच्या (ink tablets) रिकाम्या लातांत (tin) तो विडयो दवरतालो. तागेल्या भाच्याल्या म्हळ्यार विष्णू करमळकाराल्या घरांत वळिल्ल्यो कुड्या-पानाच्यो विड्योच ताका मानवताल्यो. लातभर म्हळ्यार वीस-तीस विडयो दर दिसा हाडपाचें काम तागेलो घरगडी मोर्तो व्हडा खोश्येन करी. भायल्या भायर विष्णू कडसून तागेल्योय दोन-तीन विडयो सुट्टयाल्यो!

आपा भरघोस मिशो दवरतालो. सप्तकांतल्यान दोन खेपो सदांचो म्हालो येवन आपाचें खाड-बोड करी. म्हालो तागेल्या सभावा प्रमाण गांवांवेल्यो खबरो सांगतालो. आपा अदींमदीं

'अशें? केन्ना? खंय?' अशें प्रश्न विचारी तेन्ना म्हाल्याक गजाली सांगपाक अदीक नेट येतालो आनी तिखमीठ लावन तो आपूण सांगतालो ती खबर रुचीक करतालो. त्या काळार हांगाची खबर थंय पावोवपाचें काम म्हालो ही जमात बेस बरें करी.

आयतार-बुधवाराक आपाले मुंडकार भाटी सावन येताले तेन्ना आपा भायल्या सोप्यार बसून 'किर्द' उगडून तातूंत हिशोब बरयतालो. ही किर्द म्हळ्यार सादारण एक फूट तांबड्या कपड्याचें आंगलें (cover) आशिल्ली चोपडी. वहींचीं पानां उजवे वाटेनच्यान दावे वाटेन उगडटात; पूण किर्दीची पानां सकयल्यान वयर उगडटात. ही कीर्द बरोवपाक दोन फूट सुमार लांबायेचें आनी एक फूट सुमार उंचायेचें एक धाकटुलें गॅज आसतालें. मेजावरी ताका खण नासतालो. ताचें वेलें फळें जॉड (hinges) लायिल्ल्यान उगड-धांप करपाक मेळटालें. हें फळें पालशें आशिल्ल्यान ताचेर किर्द दवरून बरोवपाक बरें पडटालें. ह्या मेजाच्या वेल्या सपाट भागांत तिंतेर (ink-pot) दवरपा खातीर एक खोलगट चौकोनी भाग आसतालो आनी लिखणी आडवी दवरपाक एक लांबोडी खोलगट सुवात आसताली. लिखणी बोरुची वो आपाराची आसताली. शायेच्यो (ink) थबकट वाटकुळ्यो गुळयो मेळटाल्यो. त्यो उदकांत खिरोवन शाय तयार करून नाटलेंत भरप आशिल्लें. उप्रांत कांय काळान आयत्यो तयार (readymade) शायेच्यो बाटल्यो बाजारांत आयल्यो. मराठी चौथेक आसतना तिंतेराक (ink pot) मुतली बांदून वेलो पास करंगळीच्या बोटाक घालून आमी शाळेंत वताले ताचो उगडास जाता.

आजो चडसो घरा भायर सरिल्लो हांवें पळोवंक ना. केन्नाय बैलां-गाडयेंत बी बसून भाटी बी वतालो. एक बैलगाडी सदांच दारांत आसताली. बैलगाडयेन भाटी बी वचपाक मजा येताली. आमी भुरगीं गाडयेंत चडशीं खुट्याक धरूक उबीं रावतालीं. रस्तो मातयेचो जाल्ल्यान गाडयेंत सकल बसतल्यांक मार लागतालो. रस्त्याचो खडखडाट, बैला गळ्यांतल्या घुंघरांचीं किणकिण आयकत आनी सैमाचो वाठार नियाळीत गाडी केन्ना भाटी पावली तें कळच नासलें. बैल सारके चलनात जाल्यार मदीं मदीं गाडेकार 'वाघा दी व्हरून... हर्ऽऽ' अशी आड्डी मारतालो, पूण भाटी पावल्या उप्रांत बैलांक सोडोवन तांच्या गळ्याची कात खोरजावन तो तांची अपुर्बाय करतालो!

भाटीचें आज्यालें घर लांबचे लांब आसलें. ताचो चडचो भाग बंदच आसतालो. सांग्यार सावन कोणय एक-दोन दिसां खातीर रावपाक आयल्यार मागीर कामेऱ्यांक लावन मावले-जाळीं, आनी कोयर झाडून घर निवळ करचें पडटालें. घराचे उजवे वाटेन आज्याल्या दायज्याचो एक घराबो रावतालो. मदल्या सालांत गणपती पुजपाची लाकडाची एक व्हड नक्षी घुमटी आसली. आजो गेल्या उप्रांत एक फावट मामालागीं 'तुमी ती सांग्यार व्हरनात जाल्यार म्हाका ती कुसमणां व्हरूंक दी' अशें सांगलें. पूण मामान तें कानामनार घेतलेंना. ती थंयच वाळटी बी लागून गेली आसतली. नाल्ला-पाडो जाता तेन्ना आदीं नाल्लां रास ह्या सालांच्या एका वटयां घालतले आनी उप्रांत बैलां-गाडयेन सांग्यार पावयताले. ह्या घरांत एक ल्हानशी देवा-कूड आशिल्ली. थंयची दिवली आनी हेर आयदनां सदांच रांपिल्लीं आसतालीं आनी तांचेर पांचव्या रंगाचो तेलकट चितो चडिल्लो आसतालो. धुल्लाक लागून देवाचे फोटेय वळखूंक येनासले. भितर चडसो काळोख आशिल्ल्यान हांव भायल्यानच नमस्कार करी.

लागसारच एक भटालें घर आसलें. तो दिसभर खावची पानां चाबडायतालो देखून ताजे ओंठ सामके तांबडे-गूंज जाताले. ताणे आंगणभर तरेतरेच्यो वाली माटवार सोडिल्ल्यो. भाटकाराले नातू जाल्ल्यान भट वो तागेलो भागेली आमकां तरन्यो पिपऱ्यो वा विरवीर काडून खावपाक आडायनासले. झाडां-झोपां भरपूर आशिल्ल्यान भटाल्या घराचो वाठार भोव शीतळ आसलो. सांग्यार येता तेन्ना भटाल्या कमराक खावची पानांची चंची खोयिल्ली आसतालीच.

आजाल्या घरा सामकार आनीक एक व्हड बंद घर दिसतालें. तें पांडुरंग राया भाटीकार आनी पुंडलीक भाटीकार हांगेल्या पूर्वजांचे आसलें. हीं दोन घरां सोडल्यार बाकीची घरां साप्प ल्हान आसलीं.

म्हजे आवयचें लग्न भाटीं जाल्लें खंय. तेन्ना न्हवऱ्याली मोटार गाडी पयलेच खेप भाटी गांवांत भितर सरिल्ली. ती धाकली मोटर पळोवपाक भुरग्यां वांगडाच गांवांतल्या तमाम लोकांनी गर्दी केल्ली अशें म्हजी आवय सांगी. भाटीचो सिद्धा दोंगर मात हांव अजून पळोवंक पावूंक ना. वर्साक एकूच खेपो-शिवरात्रेक गांवचे कांय लोक थंय वेतात. थंय वचपाक अजुनय सारकी वाट ना. वाटेवेलीं झोपां कापीत वाट काडची पड्टा खंय.

म्हज्या आज्याक गोडे मुताचें दुयेंस आसलें. तातूंत आनी ताका पायांक पोरसा कुशीक आड पडिल्लो कणकींचो कांटो तोपलो. देखून पिडा जडार पडली. वखद-विर्सद करूनय घाव कसोच पेखना जालो आनी ताणें हांतरुण धल्लें. सांग्यार सालाच्या पड्ड्याच्या पार्टीशना भितर ताची बाज्ज आसली. चडसों तो बाज्जेर बसून वो न्हिदून आसतालो. त्या काळार सांग्यार भिकूण खूब. भिकूण कुलच्यांवांत आनी बाज्जेक तेंकून आशिल्ल्या वण्टीच्या बुराकांत लिपून रावताले. फस्का-काडी तोपून तांकां भायर काडून उजव्या हाताच्या आंगठ्या नाखटान तांकां मारचे पडटाले. भिकूणांच्या रगतान ते वण्टीचेर 'मोडर्न आर्ट' तयार जाल्ली. तांकां मारतगीर एक आगळीच घाण येताली ती सोसपाची व्हय. आतां भिकूण वखदाक मेळनात. तांची सुवात आतां किमसां आनी जळारींनी घेतल्या.

एक दीस कुसमणां आपा चड बरो ना म्हूण रकाद पावलो. हांव आवय-बापाय वांगडा सांग्यार गेलों. आज्याली बाज्ज गणपती पुजपाच्या साला फाटले कुडींत घाल्लीं. लागींचेच कुडींत पाटार तांदूळ घालून एक घाडी विचित्र हेळे काडून खुदतालो. आजी आनी शेजारचे कांय जाण थंय जमिल्ले. घाड्यालो रडकुरो आवाज आयकून म्हज्यान थंय चड वेळ रावंक जालेंना. आज्या म्हऱ्यांत मात्सो वेळ बसून हांव भायर आयलों. आजो बसून आशिल्लो म्हण्टगीर तो आतां बरो जातलो अशें येवजून हांव न्हिदूंक गेलो. फातोड्डेर रडपाचो आवाज आयकून म्हाका जाग आयली. आज्यान ह्या संवसाराची यात्रा सोपयल्ली. मरण भायर काडपा आदीं आमकां भुरग्यांक फाटल्यान शेजाऱ्याल्या घरा धांवडायलीं.

घाड्याचें घाडपण आपाक वांचोवंक शकलेंना. दोतोरांले सगले उपाय सोंपतगीर मागीर निमाणचो उपाय म्हूण घाडी खुदयल्लो जातलो.

हांवें हाचे आदीं आनी उप्रांत लेगीत आज्जोळा खाडी खुदयल्लो पळोवंक ना.

म्हजे आज्जेचें लग्न पिरायेचे सातव्या वर्सा जाल्लें खंय. त्या वेळार आज्याली पिराय तेरा वर्सांची आसली. तेन्ना मामाल्या खांदार बसोवन न्हवऱ्या गळ्यांत लग्ना-माळ घालपाची पद्दत आसली अशें आजी सांगताली. आजी वाचूंक बरोवंक शिकूंक नासली. ती शाळेचे सपणच चडूंक ना.

आपूण बरी, आपलें काम बरें; हेर जगा-राटावळी ती आपल्याक लावन घेना आसली. ती सदांच घरच्या वावरांत गुल्ल आसताली. घरगडी आनी वावराड्यो हांच्या कामाचेर ती बारीक नदर दवरून आसताली. तांच्या कामांत कितेंय चूक जाली जाल्यार तापनासतना ती समजावन सांगताली. दोन वावराड्यां मदीं किजिलां उप्रासलीं जाल्यार ती मायेन तीं निस्तरायताली.

गोट्यांतली एक मारकी काळी गाय तिजे बगर आनी कोणाकच पान्याक हात लावंक दिनासली. बाकीच्या दोन गायांक जांतां आसलीं, पूण हिच्या रंगा वेल्यान हिका काळी गायच म्हूण पाचारताले.

हेर कांय काम ना जाल्यार ती गोजड्यो शिंवपाचें काम कर. पोरन्या कापडांच्यो एकार एक घडयो घालून त्यो आडव्यो-तिडव्यो बेतून बेस बऱ्यो गोजड्यो करताली. हांव तिणे केल्ल्यो गोजड्योच वापरतालों. इतलेंच न्हय तर कुसमणां लेगीत हांवें तिगेली एक गोजडी हाडिल्ली. ती एक संपन्न भाटकाराली घरकान्न खरी, पूण वर्साक दिवाळे दिसाच तिका नवें णव वारी कापड मेळटालें. तिका चड कापडांची गरजय नासली. ती चड करून खंयच भायर सरनासली. विठोबा देवूळ सामकें लागीं आसुनय ती थंय गेल्ली म्हाका याद जायना. पूण म्हाका मात दर दसमीक विठोबाच्या पालखेची याद केले बगर ती राव्वासली.

खंयूय वचपाक म्हाका ती आडायनासली, पूण आपणाक सांगून वच अशी तिची शिकवण आसली. पाण्ट्यार न्हावंक वतासतना मात ती म्हज्या परस व्हड भुरगो वांगडा आसा हाची जतनाय घेताली आनी 'बेगीन वयर सरात' अशें सांगूंक विसरनासली.

हांवें 'श्रीचंद्रेश्वर स्तोत्र' तिका वाचून दाखयले तेन्ना ती भोव खोशी जाली. 'तूं आज्याल्या बडीर गेला' अशी तिणे उतरां काडली. तिका निमाणी आरेची पिडा जाली. पांच-स वर्सा तिणे हातरुणारूच काडलीं. तुळशीपानांची माळ घालून तिका हांवें निमणीं आगीं ओंपलीं.

सांग्यार दोन धालां-मांड आसले. एक तारी पाणट्यार वतासतना सालेलकारांले घर काडल्या उप्रांत उजव्यान आनी दुसरो दादा साकोर्डेकार मास्तराल्या घरा लागसार वाकडेल्या वाड्यार. थंय लागसार श्रीदत्त मंदिर आशिल्ल्यान आतां त्या वाड्याक दत्तवाडी म्हण्टात.

धालो हो बायलांचो खेळ. थंय दादल्यांक मनाय. पूण ल्हान चल्या-भुरग्यांक मनाय नासली. आज्यागेर वावर करपी घराब्यांतली एक चली निर्मल धालो खेळपांत सदांच मुखार आसताली. हांव ताच्या वांगडा दोनय कडेन गोजडी पांगरून धालो पळोवाक वतालों. शीं खातालें, पूण धालो आयकुपाचे तंत्रेंत शीं खंयचें खंय पळ काड्टालें. तुकतुकीत शेणान सारयल्ली जमीन, तुळशी पेडा लागीं पेटयल्ली दिवली, तांदुळ-नाल्लांची तळय आनी मळबांत धवें-फुल्ल चान्नें! मांडार नटून-थटून फुलां-फांती माळून आयिल्ल्यो सवाशीण बायलो सुरवेक वाठाराचे देवतेक 'मानतुक' करतात आनी उप्रांत दोन ओळीनी एका सामकार उबीं रावतात. एकामेकांच्या कमराक विळखो घालून एक पंगड एक चरण म्हण्टा आनी तकल्यो बागोवन फाटीं सरता. त्यो फाटीं सरतासतनाच दुसरो पंगड दुसरो चरण म्हणत अचळय फुडें सरता आनी फाटल्या पावलांनी मूळ सुवातेर थारता. हें अशें चलत रावता.

'धालोऽ गे धालोऽ
धालांनी खेळुंया गेऽ धालो
धालांनी खेळुंया...'
आनी मागीर सवाल-जबाब जातात.
एक पंगड म्हणटा 'रथा तुज्यो दाणयो
साडे तिनशें गुडयो...
रथांत कोण देव बसे गेऽ
दुसरो पंगड जाप दिता: रथांत वासे-सांतेरी माता...'

उप्रांत धालांतल्यान एकामेकांचीं कुतां काडपाचीं कवनां गायतात. धाळांत वांटो घेवपी एके बायलेचें नांव गुंथून 'भागीच्या व्होंटयेंत शेंवटो, भागीचो घोव ल्हेंवटो' अशे तरेचीं कवनां आयकून आमी पोट फुटसर हांसताले.

निमाणच्या दिसा कांकणकार, कलयकार हांचो भेस चडोवन कांय बायलो येवन त्या त्या मनशाची नक्कल करून धालां-मांडार उमेदीचें आगळेंच ल्हार उफयताल्यो. कांय आंकवार चलयांचेर 'रंभा' येताल्यो. अवसर आयिल्ले वरी त्यो खुदताल्यो. तांकां प्रश्न विचारप जातालें. रंभेचो अवसर हाता भायर वचून त्यो सैराणाभायर गेल्यो. जाल्यार तांच्या मुखामळार थंड उदक शिंपडावन तांकां सावचित करतालीं. घरा परततासना शिंयांचो कुडकुडो परत आमची वाट धरतालो.

'पान म्हजें पोफळ तुजें
चुनो कोणालागीं आहे गे...'

हे सारकीं धालोगीतां आनी हेर कोंकणी लोकगीतां रेडियो, टी.व्ही. हांच्या जमान्या आदीं पुराय गोंयभर आनी कारवार लेगीत पावलीं हें पळोवन भोव अजाप जाता. आतां कोंकणी अकादमी सी.डी.च्या रुपान तीं सांबाळून दवरपाचो यत्न करता हें बरें जालें.

म्हाका धाला-मांडार व्हरपी निर्मल एका भटाल्या चल्याच्या मोगांत पडलें. तें दिसपाक व्हडलेंशें नासलें. रंगान काळें, आंगान मोठे आसुनय तें ताका मानवल्लें. सांग्यार हो एक व्हडलो चर्चेचो विशय जावन पडलो. तो भुरगो गोरो गोमटो आनी चार-चौगांत उठून दिसपा सारको आसलो. तो मूळ सांग्यावेलो न्हय. लोकांनी ताका पिशांत काडलो. पूण ताचें म्हणणें आसलें, "ताका म्हज्या दोळ्यांनीं पळयात!" जाती-कातिचो, सरुपाय-कुरुपाय आनी हेर आडमेळीं हुपून कांय वर्सांनी तो निर्मला लागीं लग्न जालोच. लोकांल्या भुरग्यांक हांडीर मारून अपुर्बायो करीत भोंवडावपी निर्मलाक स्वताचें भुरगें हांडीर मारून भोंवपाची वाट मेकळी जाली.

(चलता.)

संपर्क: 9975407488



# कथा

## गांजील मूस

माया अनिल खांगटे

जाई... सोबीत, नाजूक, सामकें जायेच्या फुला वरी. पांच भावांची बऱ्याच तेंपान जाल्ली एकली एकसुरी भयण. बाय जालें त्या दिसा कामतीगेर फोगोट्यांचो गडगड जाल्लो. वीस वर्सां उपरांत तांच्या घराब्यांत बाय जाल्लें. तिनूय भावांगेर पांच चले आसले. सगळेच बायेक वथरेताले... आनी बाय जालें.

"बायेक नांव कितें दवरप?" हाचेरच बारसो मेरेन भासाभास जाल्ली. निमाणें, जायेच्या फुला वरी नाजूक साजूक बायेक 'जाई' नांव दवरया अशें सगळ्यांनी थारायलें.

जाई अर्थअपुरबायेच्या कोंडाळ्यांत व्हड जातालें. अपुरबायेन जाई उतलें ना, मातलें ना. सगळ्यां विशीं मोग आनी नमळकायेन भरिल्लें जाई संवसाराची वळख घेत जुवानपणाच्या हुंबऱ्यार उबें आसलें. आतां ताचो रूप-रंग सामको फुलून आयिल्लो. कवाशा वरी भांगर सया ताचे सोबीतकायेंत भर घालताली.

जाईच्या लग्नाची सगळ्यांकूच जितली उमेद आसली, तितलीच तें सोडून वतलें ही खंत तांकां सतायताली. तरी पूण रीत-रविसेक धरून सगळें जावंक जाय हाची जाणट्यांक तिश्टत आसली. आनी नेणट्यांक दिसतालें, "आनीक थोडे दीस तरी जाई आमचे म्हऱ्यांत उरचें."

ह्या बोवाळांत कोणें तरी पणजेच्या तळावलेकारांचें थळ सुचयलें. एकलो-एकसुरो, गोरो-गोमटो, सोबीत सुमेश पळयना फुडें सगळ्यांक आवडलो. इतले बेगीन जाईचें लग्न नाका म्हणपी ताचे भाव लेगीत सुमेशाक पळोवन खोशी जाले. एम्.बी.ए.मेरेन शिक्षण पुराय करून सुमेश घरचो धंदो पळयतालो.

सुमेशाक आवय नासली. ताच्या बापायची विधवा भयण तांगेरूच रावताली. सुमेशाक तिणें आवयचे मायेन वाडयल्लो. घरादाराचेर तिचो शेक. मानाय-वावराड्यो, आयिल्लो-गेल्लो सगळ्यांक आतीबायचो धाक, तितलीच माया.

उमेदीची पामरी पांगरून जाईन तळावलेकारांच्या घरांत प्रवेस केलो. आतीबायचे अर्थअपुरबायेन जाईचे नवे नवलायेचे दीस सरूंक लागले. त्या फुलपाखी दिसांनी कुच्च-कुच्च करून तोंपपी कांट्यांची लेगीत जाईक अपुरबाय दिसताली.

जाई फकत सोबीत बावली नासलें, एक बरें कलाकारूय आसलें. तें नाटकांत कामां करतालें. अभ्यासपूर्ण भाशणां करपांत तें फिशाल आसलें. महिला मंडळाची कसलीय कार्यावळ थारावप, लोकांक एकठांय करप असलीं कामां ताका बरीं सादतालीं.

तळावलेकारांचें घराणें तशें नव्या विचारांचें अशें सगळींच समजतालीं. कसल्याय कामाक

घसघशीत देणगी दिवप इतलीच तांची समाजसेवा. तसो भायर भितर सरपाक तांच्या घरांत आशिल्लोच पयलीं कोण? आतीबाय खंयच पांय भायर काडपी न्हय. सुमेश पयलीं अभ्यासा फाटल्यान, मागीर बापाय वांगडा घरच्या धंद्यांत घुसपल्लो.

जाई नवी उमेद घेवन आयिल्लें. हांगाय महिला मंडळांत वचपाचें ताणें थारायलें. घोवाक ताणें नांवाकूच विचारिल्लें. घरांतलें कितेंय थारायताली ती आतीबाय. आतीबायन 'हय' म्हणटकीच सुमेशान तकली हालयल्ली.

नवे नवलायेचे दीस म्हणून लेगीत सुमेश ताका घेवन खंयच फिरूंक वा नाटका-सिनेमाक वचनासलो. हनिमुनाक गेल्ले कडेनूय भायर फिरपाक वचचे परस दीसभर रुमार रावप ताका आवडटालें. नवे नवलायेचे दीस जाल्ल्यान जाईकूय रुमार रावपाचो ताचो हट, आनी ताचे कुडी कडेन ताणें केल्ली बळजबरी आवडटाली. तरी पूण जाईक फिरपाचो घोस्त, म्हणून मदीं मदीं तें हटान ताका भायर व्हरतालें. आनी मना आड, जिवार येवन म्हणटात तसो, सुमेश ताचे वांगडा भोंवंक वतालो.

घरा येतकर तर तीं केन्नाच खंयच भोंवंक म्हणून गेलीं नात. जाई एकटेंच भायर वचून आपलें मन रमयतालें. पूण एके मर्यादे भितर ताका खंयीय वचूंक मान्यताय आशिल्ली. पयलीं पयलीं जाईक तें व्हडलेंशें जाणव नासलें. पूण मागीमागीर समजूंक लागलें. खंय तरी कितें तरी चुकतालें. 'बाऽय' म्हळ्ळे शिवाय आतीबाय उलय नासली. तरी तिच्या उतरांत एके तरेची धार आसली. तिचें उतर मोडूंक फावो नासलें. 'जाई!' कितलो म्होंवाळ उलो आसतालो मांवालो. पूण त्या उल्या फाटल्यान एक अदृश्य जबर आसताली. अल्लडपणान, मायेन सगळ्यां कडेन वागून आयिल्ल्या जाईक एका उतरांतल्यान दिसपी दोन अर्थ खबरूच नासले.

लग्नाक वर्स जावन गेल्लें. पूण अजून भुरग्याची जाग नासली. ताची आवय, काकी, आयिल्ल्या वेळार ताका भुरग्या विशीं विचारताली. जाई जायत्या वेळार ह्या विशयाचेर सुमेशा कडेन उलोवंक सोदी. पूण बायले बरोबर बसून बरे भशेन गजाली करप सुमेशाक आवडऽ नासलें. दीसभर ऑफिसांत. रातचो घरा येतकर टी.व्ही. मुखार बसून बातम्यो पळोवप. आनी रातचें बॅडरुमांत जाईचे कुडी कडेन खेळप, न्हय सांवार घालप. ल्हवपीकपणान, नाजूकसाणेन तो जाई कडेन केन्ना वागलोच ना. राकेसीपणान तो ताचो भोग घेतालो. अशा वेळार व्यथेन वळवळटा आसतना जाई ताचे कडेन खंय उलोवपाक पावतालें? आपलें काम जालें काय तो फाट करून न्हिदतालो. अशे परिस्थितींत जाईन भुरग्याचो विशय काडल्यार तो ताचेर धेंगसो घालून ताका वोगी बसयतालो.

सुटये दिसा जाई मुद्दम ताचे म्हन्यांत वचून बसतालें. पूण सुमेश जाईच्या पांच प्रस्नांक तुसडेपणान कसो एक जाप दितालो. ताका दिसतालें, हालींसराक सुमेश म्हणून सामको बदल्ला... हालीं बदल्ला? काय आतां म्हाका ताची जाणीव जाता? ...इतले दीस मोगाची उमेदीची पट्टी दोळ्यांर बांदून हांव वावुरतालें... सुमेशाचे वागणुकेनूच ती सदळ केल्या ...अशे तरेच्या प्रस्नां मदीं जाई घुसपून वतालें.

दीस वताले तशे जायते नवे नवे प्रस्न ताचे मुखार येताले. तांच्यो जापो मेळनात म्हूण तें बेजारून वतालें. आतां जाई पयलींचें अल्लड, नाजूक 'बायू' नाशिल्लें. ताचे नकळत परिस्थिती ताका घट करताली. बऱ्याच गजालींचो अर्थ ताका कळूंक लागिल्लो. तरीय जाईचो मूळचो सभावूच मायेस्त. कोणाय विशीं वायट चिंतप लेगीत ताका आवडऽ नासलें. घोवा विशीं तर नाच ना. आपूण सुमेशाचो सभाव मायेन बदलतलें हाचो ताका विश्वास आसलो. ह्या विश्वासार आनीक एक वर्स अशेंच गेलें. सुमेशाच्या सभावांत कांयच बदल जालो ना.

इतले दीस आतीबाय भुरग्या पासत ताका आडून-पाडून उलयताली. आतां ती सरळ सरळ जाईक दोश दिवंक लागली. "...आतांच्या भुरग्यांक भुरगेंबाळ कांय नाका. तांची उस्तवारी करतलो कोण? मागीर हांकां हांगा-थंय भोंक वरशें करून हेडूंक कशें मेळटलें? भुरगें जावप म्हळ्यार पांयांक बेडयो. जाय कोणाक तें भुरगें? हांकां घरा परस भायल्यो राटावळी चड जाय..."

आतीबायचे असले थोमणे आयकून लेगीत जाई तिका एका उतरान कांयच म्हणऽ नासलें. तिचें उलोवप सुरू जालें काय थंयचें उठुनूच पेल्यान वतालें.

लग्न जाल्ल्याक जाईक केन्ना कुळारा रावंक म्हणून धाडलेंना. सुमेश ताका व्हरतालो आनी आपुणूच घेवन परत येतालो. इतल्या थोड्या वेळांत जाई सगळ्यां कडेन बरे भशेन हांसून उलयतालें. तशीं कुळारचीं कोणूय तागेर आयल्यार लेगीत तें तांचे कडेन हांसून उलयतालें. आपली व्यथा, दुःख केन्नाच ताणें तांकां सांगलेंय ना आनी तोंडार दाखयलेंय ना. तें मनांतूच म्हणटालें, "म्हजी व्यथाच नाजूक भागाची. ती कोणाक सांगुकूय शकना आनी तोंड धांपून सोंसुकूय जायना... तरीय हे वळवळे म्हजे हांवेंच सोंसूंक जाय."

जाई थोड्या वेळा पासत जरी कुळारा गेलें तरी ताचे आवयक ताका कितें तरी दुःख तोंपता हें जाणवतालें. घडये भुरग्या पासत आसत, असो समज करून घेवन ती ताका उपाय सुचयताली. दोतोरांचीं नांवां सांगून तांकां दाखोवन यो म्हणून फाटीक लागताली.

जाईची एक इश्टीण ताका घेवन दोन तीन दोतोरांगेर गेली. प्रत्येक दोतोरान जाईक तपासतकर सुमेशाक घेवन यो म्हणून सांगलें. पूण सुमेश ताचे वांगडा दोतोरागेर वचूंक कसोच तयार जाय नासलो. जाईन ताका फुसलावन पळयलो. हट करून पळयलो. सुमेश प्रत्येक वेळार खेव करतालो, हातांत आसा तें जाईचेर मारतालो. जाईन मागीर ताका भुरग्या विशीं कितेंच विचारप ना अशें थारायलें. तरीय ताचें मन भुरग्या पासत तळमळटालें. पूण तें वयल्यान कोणाकूच दाखय नासलें.

एक दीस ताचे इश्टिणीक कोणें तरी नवेच आयिल्ले दोतोर नायका विशीं सांगलें. ती बायलांचे कुडी वांगडा तांच्या मनाचेर, मानसीक दुखण्याचेरूय उपाय करताली खंय. तिणें जाईक हे दोतोरणीगेर व्हेलें. तिणें जाईची सदची तपासणी केली आनी ताका ताच्या आनी घोवाच्या संबंधां विशीं अळरपणान जायते प्रस्न विचारले. तिच्या प्रस्नाक जापो दिवचे बदला जाई खोळसांनी रडूंक लागलें.

लग्न जायत साकून जाई सुमेशाचे खुब्ब त्रास सोंसतालें. "... हे अशे साप्प खाजगी त्रास सांगप तरी कोणाक? आनी दिसाचे ज्या सुमेशाक लोक वळखतात, ताचें रातीचें रूप सांगल्यार कोणाक खरें दिसतलें? सगळीं म्हाकाच पिसाय थारायतलीं." हो विचार करून जाई भितल्ले भितर घुस्मट्टालें. मात आज दोतोराच्या प्रस्नांक लागून जाईच्या मनाच्या बांदाक खावटें पडलें. मानसशास्त्राचो अभ्यास केल्ली ही दोतोर दुयेंतीचें मन जाणून घेवन ताचेर उपाय करताली. हेंच तिचें

वेगळेपण आसलें. तिणें मायेन जाईचे फाटीर हात भोंवडायलो आनी जाईचें मन उकतें करूंक लायलें.

सुमेश तसो मायेस्त. सगळ्यां कडेन नमळायेन वागतालो. ऑफिसांत लेगीत चडसो केन्नाच ताषऽ नासलो. रातचो मात जाई म्हऱ्यांत पावतकर तो पुराय बदलतालो. सांवार आयिल्ले वरी वागतालो. ही सगळी व्यथा आज ताणें दोतोरणीक सांगली.

हनिमुनाक गेल्ल्या वेळार जाईक ताचो पयलो अणभव आयिल्लो. खूब सपनां घेवन जाई हनिमुनाक गेल्लें. पूण ताच्या सांवारा मुखार तें काचाबूल जालें. पयले दोन-तीन दीस तोंड धांपून तो सांगता तितलेय खेपे ताचे वांगडा न्हिदलें. पूण मागीर मात ताणें सुमेशाक निमतां करून बळयां भायर काडलो, फिरपाक व्हेलो. ह्या वेळार जाईक दिशिल्लें, नवी नवलाय म्हणून हो असो वागता. त्या वेळार ताकाय तो सांवार जाय जाय सो दिशिल्लो. नवेंपण सोंपतकर तो जाग्यार येतलो मागीर सगळें व्यवस्थीत जातलें अशें ताणें धरिल्लें.

पूण लग्नाक स म्हयने जाले. वर्स जालें. आतां तर दोन वर्सां सोंपपाक आयिल्लीं. पूण सुमेशाचे वागणुकेंत कांयच बदल जावं नासलो. ताची म्हयन्याची पाळी आसल्यार लेगीत तो ताका सोडनासलो. मागीर ताच्या पोटांत दीसभर दुखत रावतालें.

हें दुःख सोंसूंक बळगें जाय म्हणून तें सांजेच्या आदेसाक महिला मंडळ, वाचपघर वा खंयचेय कार्यावळीक वतालें. थंय इश्टिणीं वांगडा खळखळून हांसून, फकाणां मस्कऱ्यो करून दीस सारतालें. आपल्या मनाक फुसलावपाचो यत्न करतालें. ताणें आपल्या मनाक सांवरपाचो कितलोय यत्न केलो तरी ताच्या मनाची व्यथा मातूय कमी जाय नासली. इतल्या तेंपान आपलें दुःख ताणें दोतोरणीक सांगलें.

ताची सगळी गजाल आयकून घेवन तिणें म्हळें, "जाणा जाई, तुज्या गर्भाशयाक भितल्ल्यान दूख आसा, म्हणून तुका गर्भ धरना. हाचेर जायते उपाय आसात. तूं घोवाक घेवन यो. हांव उलयतां ताचे कडेन."

जाईन सुमेशाक परत फुसलावपाचो यत्न केलो. ताचे कडेन झगडीं लेगीत केलीं. पूण सुमेशान ताका खोंटांनी मारलें. ताची तकली वणटीर आपटिली. त्या दिसा निरास जावन ताणें थारायलें, 'आनी आनी खंयच्याच दोतोरागेर वचप ना. म्हज्या नशिबांत भुरगींच न्ही, कसलेंच सूख ना. हांवें फकत त्रासूच भोगपाचे...'

ताणें अशें थारायलें तरी ताचें मन मदीं मदीं बंड करतालें. तातुंतूच आतीबाय, मांव, सगळींच ताका भुरग्या पासत सतायतालीं. इतले दीस अपुरबायेन 'बाय' म्हळ्ळे शिवाय उलो करी नासलो तोच मांव आतां ताचेर ऊठ-सूठ तिडकतालो. ताका तापोवपाक निमित्त मेळटा काय पळयतालो. हालींसरा जिवाच्यान जायना म्हणून तो चडसो घराच आसतालो. आपल्याच्यान काम-धाम जायना होय राग तो जाईचेर काडटालो. जेवण-खाण मेळपाक मातसो वेळ जाल्यार हातांत आसा तें काडून जाईचेर शेंवटितालो. जाई सांजचें खंयी गेले काय तें येतकर ताका जाय-फाय उलयत रावतालो. हालींसरा आतीबाय लेगीत ताका खुबूच कचकचायताली. ताणें आयकुचें म्हणून मोठ्यान ताका 'वांजूड' म्हणटाली.

पूण जाई दोगांकूय एक परती जाप दिनासलें. घोवाच्या छळा मुखार हे त्रास कांय न्हय अशें ताका दिसतालें. तें आपलें मन रमोवंक सांजेचें मात घरांतल्यान भायर सरतालेंच. कांयच काम ना जाल्यार लेगीत पुस्तकां हाडपाचें निमित्त करून वाचपघरांत वतालें. थंय चार-चवगां कडेन उलयतकर ताका मातसो सुशेग मेळटालो... सुशेग म्हणून कसलो? थोडो वेळ तकली भेरावंक गुळी घेतिल्ले भशेन... गुळयेचो येफेत वतकीर परत उसळा-उसळ सुरू... जाणां हांव, आतीबाय आनी बाबा म्हाका घरा आयले बरोबर दुपेटीन त्रास दितलीं...

जाई मनान सामकें थकिल्लें. आतां आतां तर ताका त्या घरांत रावप लेगीत नाका दिसतालें. पूण... वतलें तरी खंय हांव... आपल्या पांयांर उबें आशिल्लें जाल्यार वेगळी गजाल आसली... कुळारा कशें वतलें... तांकां हांवें केन्नाच म्हजें दुःख सांगूंक ना... आनी आतां जाणटेपणांत तांकां बाबड्यांक कित्याक त्रास? ...हे भोगणार कितले म्हणून सोंसपाचे... असल्यांनी हांव पिशांतूर जावन पडना जाल्यार पुरो... हें हांसपाचें रुपडें घालून फिरपाचोय म्हाका आतां वाज आयला... आतां हांवेंच म्हाका सांबाळून घेवंक जाय... हें म्हाका कळटा, पूण कितें करूं ... एक एक फावट हो सगळो ताण असह्य जाता... पूण करूं कितें? वचूं खंय?...

ह्या दोन प्रस्नां कडेन पावतकर ताचो घुस्मटमार जातालो.

त्या दिसा ताच्या महिला मंडळान वृद्धाश्रमांत एक कार्यावळ दवरिल्ली. थंय जाई गेल्लें. तो आश्रम सगळो भोंवून पळयतना ताका वेगळीच जाणीव जाली. आश्रमाची संचालिका माई ताचे इश्टिणीची मावशी आसली. तिणें ताका आश्रमा विशीं सांगतां सांगतां म्हळें, "आपखोशयेन हांगा येवन वावर करप्यांची हांगा खरी गरज आसा."

जाईच्या मनांत माईचें वाक्य घर करून रावलें. थंयच्यान येत सावन एक विचार ताच्या मनांत घुंवूंक लागलो. ताणें ताका रोखडेंच मूर्त रूप दिलें. तें आतऱ्या पयऱ्यान आश्रमांत वचून माईक आदार करूंक लागलें. थंय खूब जाणां कडेन ताच्यो वळखी जाल्यो. जायतीं जाणां ताका आपली धुवूच मानतालीं. ताका दोन दीस येवंक मातसो कळाव जालो जाल्यार ताचेर शिणटालीं. हरशीं जाई तांचे कडेन तोंडभर उलयतालें. कोणा कोणाक कितेंय जाय जाल्यार हाडून दितालें. कोणाक पत्रां बरोवन दितालें. पूण त्यो बायलो ताची खूब माया करताल्यो. जाईक खूब तेंपान मायेची ऊब मेळिल्ली. पिशांतूर जावंक पाविल्लें जाई आतां सांवरूंक लागिल्लें. खरें म्हळ्यार आतऱ्या पयऱ्यान ताका अशें घरांतल्यान भायर सरूंक खुब्ब त्रास जातालें. आतीबाय निखटी फडफडुनूच रावऽ नासली, ताका कितेंय उलयताली. मांव तर ताका "एक घोव पावना म्हणून दुसऱ्यां वांगडा किटकिटूंक वता" अशें लेगीत म्हणटालो.

पूण जाईन घरांत सामकें मौनव्रत धरिल्लें. कोणाकूच परती जाप दिय नासलें. वागतालें मात आपल्याक जाय तशेंच.

हे मजगतीं ताची माई कडेनूय बरी इश्टागत जाली. माई सभावान जितली म्हों वाळ तितलीच विचारी आनी कणखर आसली. जगाचो अणभव घेवन ती ह्या आश्रमांत आयिल्ली. जाईक पळयतनाच हांगा एक लाव्हा खतखतता हें तिका जाणवल्लें. जाईच्यो आश्रमांतल्यो फावटी पळोवन तिका खात्रीच जाल्ली.

जाई जशें बायलांक आदार करतालें तशें दादल्यांकूय आदार करतालें. कोणाक पत्रां बरोवन दी, कोणाक पेपर वाचून दाखय अशीं कामां तें करतालें. अशा वेळार साद्या भोळ्या

जाईक तांचे नदरेंतलो विखार कळऽ नासलो. माईन एक दीस तो बरोबर पारखिलो. तेन्नाच्यान ती जाईक आपले वांगडा ऑफिसांत आपल्याक आदार करूंक बसोवंक लागली. थंयीय ते जाणटेले कितेंय ना कितेंय निमित्त करून येतालेच.

त्या आश्रमाची वर्सुकी कार्यावळ आसली. तें निमित्त करून जाईन माईक विचारलें, "माई, ह्या दिसांनी हांगा खुब्ब कामां आसात. हे आठ दीस हांव तुजे वांगडा रावं?"

माईक ताचें मन समजून घेवंक संद जाय आसली. तिणें म्हळें, "बरे भशेन, पूण पयलीं हांव वरिश्टांची मान्यताय घेतां. आनी एक, तुवें म्हजे वांगडाच रावन म्हाका आदार करप."

घरांतलीं कितें म्हणटात तें मोन्यांनी सोंसपी जाई आतां बरेंच घट जाल्लें. ताणें पयलीं घरांत कोणाकूच कांय सांगलें ना. घोव आनी मांव भायर सरून वतकर बॅग घेवन भायर आयलें. आतीबायक म्हळें, "आतीबाय, हांव भायर वतां, आठ दिसांनी येतलें."

"खंय वता गो? कित्याक वता? सांजेचो आदेस भायर काडटा तें पुरो जालें ना? घोवाक सांगलां? मांवाक विचारलां?" आतीबाय प्रस्नार प्रस्न करताली. पूण तिका कांयच जाप दिनासतना तें बेग घेवन भायर आयलें.

जाई उमेदीन आश्रमांत रावंक आयिल्लें. पूण माईचो हुस्को वाडिल्लो. "जाईच्या म्होंवाळ रुपाक गांजीलमुसांचो त्रास जायना जाल्यार पुरो," माईन हुस्क्यान आपले भितर म्हळें.

जाई थंय रावंक आयिल्ल्याच्या दुसऱ्याच दिसाची गजाल. नंबर तेत्तीसांतलो जाणटेलो मातसो बरो नासलो. आज जेवंक बी हॉलांत येवूंक नासलो. ताणें जाईक आपल्या रुमार आपयलें. जाईन थंय वचून मायेन ताची वासपूस केली, "दादा, कितें जालें? जिवाक बरें दिसना? वखतां बी घेतलीं मूं?"

"हय गो बाय, तकली सामकी कणकणटा, मातसो बाम लावंक जाय आसलो. कोणाक सांगतलों?"

"तातूंत कितें दादा, हांव लायतां मूं बाम!"

जाई उलोवनूच रावलें ना. ताणें बामाची बाटली घेतली आनी दादाच्या कपलाक बाम चोळूंक लागलें. इतल्यांत दादान आपल्या दोनय हातांनी जाईचो हात घट्ट धरलो आनी आपले छातयेर दवरून पोशेवंक लागलो.

"बाय, तुवें बाम लावचे परस, हो नाजूक हात म्हजे छातयेर दवरल्यारूच पुरो, हांव खडखडीत बरो जातलों."

हें उलयतना ताचें विचित्र जाल्लें तोंड आनी ताचें पोशेवप जाईक मानवलेंना. तें सट्ट करून उठलें. तितल्याच नेटान दादा उठून बसलो आनी जाईक फोर्सान आपले म्हऱ्यांत बसोवन घेतलें.

"बाय, उठ्ठा कित्याक, मातशें बस म्हजे म्हऱ्यांत." अशें म्हणून विचित्र तरेन ताची फाट पोशेवंक लागलो. पूण जाई सादूर जाल्लें. ताच्या पांयांतल्यान थरथरो येतालो. तरी एका नेटान ताणें दादाक धुकळून खाटेर उडयलो, आनी तें धांवत भायर आयलें.

जाई दादाच्या रुमांतल्यान धांवत येवन आपल्या रुमा वटेन गेलां तें दिस्तूच माईन पळयलें. हातांतलें काम तशेंच दवरून माई तशीच जाई म्हऱ्यांत आयली. जाई खाटेर उमथें न्हिदून रडटालें. माई ताचे म्हऱ्यांत बसली. माईक वेंग मारून जाई खोळसांनी रडूंक लागलें. ताचो वोग वचऽसर माई ताची फाट पोशेत रावली.

माईच्या मायेच्या हाताची ऊब मेळटकच जाई मातशें शांत जालें. मागीर तिणें ताका मायेन म्हळें, "बाय गो जाई, तूं हांगा चार दीस रावंक आयलां तेन्ना म्हाका तुजो होच हुस्को आशिल्लो. हांगाय गांजीलमूस आसात हाची म्हाका खात्री आसली. पापणी, भरिल्ल्या घरांतल्यान तूं हांगा अशें वोगीऽ येना हाची म्हाका जाणीव आसा. सांग पुता, सांग, कसलें रसायण खतखतता तुज्या मनांत?"

मागीर जाईन रडून रडून माईक आपली सगळी व्यथा सांगली. "जिवूच नाका जाला माई, पूण म्हाका जीव दिवपाचो ना. ही म्हजी विचित्र व्यथा कोणाक म्हणून सांगतलें? सांगूक गेल्यार म्हजीच लज भायर सरतली. आतां म्हज्यान ताचो रातीचो सांवार कसोच सोंसूंक जायना. ताचे कुडींत कोण संचारता, कोण जाणा. हांवें ताका मनाय केल्यार तो म्हाका मारता लेगीत. म्हजी तकली खाटेक आपटिता. अशी आपटून आपटून म्हजी तकली मर्दी मर्दी उसळत आसता. इतलें मारुनूय तो आपलें काम सादोवनूच पेल्यान सरता. ह्यो दोन राती हांव सुखान न्हिदलां माई. तरीकय कच्च कच्च करून म्हाका जाग येतालीच, मागीर तुजे कडेन पळयतकच म्हाका थंड न्हीद लागताली. ह्याच आश्रमांत रावपाचें थारावन आयिल्लें हांव माई."

"ना, ना, पापणी, हो विचार लेगीत करूं नाका. तुवें घरांतल्यान भायर सरप म्हळ्यार, तुजी ही तरणी कूड आनी रुपूच तुजो घात घेतलें. ह्या जगांत सगळेच कडेन गांजीलमूस भरल्यात. समाजाच्या घणाघायांनी हांव अशें कठोर आनी कणखर जालां. पूण तूं अजून मनान कवळें आसा. म्हणून सांगता तुका."

"माई, कितें म्हणून करूं हांव? त्या घरांत रात येता म्हळ्यारूच म्हजो जीव थरथरता. तातूंत मांव आनी आतीबाय लेगीत म्हाका आतां पिडपाक लागल्यांत."

"तूं म्हजें एक आयकता? ह्या समाजांत मोव रावतल्याचे फाटल्यान सगळींच लागतात. हांगा गांजीलमूस, विखारी सोरोप डंख मारूंक तयारूच आसतात. तूं कोणा कोणाक भियेवन खंय खंय पळटलें? घटस्पोट घेवन कुळारा वतलें? जाणटे आवय-बापूय कितलो तेंप तुका सांबाळटले? भाव-भावजेच्या संवसारांत वजें जावन रावतलें? आनीक एक लक्षांत दवर, झाडा वयल्या तुटिल्ल्या फुलां-पानांक कोयर करून उडोवंक ह्या समाजाक वेळ लागना. ते परस तुवेंच घट जावंक जाय."

"पूण कशें माई? कशें?"

"तुवें चंडिकेचें रूप घेवंक जाय. घरांतले वासनेच्या पिशाच्याक पयलीं जाग्यार हाड. तुज्या घोवाचो नेट फकत तुजी कूड पिसुडपा पुरतोच. ताच्यान आनीक कांयच जायना. तुवें चंडिकेचें रूप घेत जाल्यार तो तुका कांय करपाचो ना. तुज्याच घरांत तुजें हक्काचें स्थान मेळय, आनी समाजाक उजळ फुडो कर. आपलें जिवीत फुलोवप काय पिसडून उडोवप तें आपल्याच हातांत आसता. हांव आसां तुजे बरोबर, घट उबें रावत तुजें जिवीत तूंच फुलय. तुजो तोल वता सो दिसल्यार म्हाका उलो कर."

माईच्या उतरांनी जाईक नवें बळगें मेळ्ळें.

आगळोच नेट घेवन तें उबें रावलें. थंयचे थंयच ताणें आपलें बॅग भरलें आनी माईचो निरोप घेतलो.

संपर्कः ०९४२०६८५२७८



# कविता

## दोन कविता :

### ह्या खिणाचें सुर्यसत्य

**- आर रामनाथ**

खुब्ब तेप जालो
तूं दळीत आसा
आनी आमी भरडत आसा...

ही गजाल ताचेमेरेन केन्नाच पावल्या!

तूं आजुनूय मास खायत आसा
हाडां चघळीत आसा
रगत पीत आसा...

हिवूय गजाल ताचेमेरेन केन्नाच पावल्या!

ह्या खिणाचे सुर्यसत्य:
तूं तुगेरूच शेणला
आनी ताणे दिवो पालयला...

### शुद्धीकरण

तूं म्हजे काळजार पांय दवर
आपशींच तुजे पांयार
रगताचो अभिशेक जातलो
तुजे पांयांचें तीर्थ
तूं म्हजे काळजांत जिरय
- उप्रांत तें गळ्यामेरेन पावय
आनी थंयसून मेंदवामेरेन...

- इतक्यान म्हजे अख्खे देवळाचें शुद्धीकरण जालां.
आतां तूं बिनदिक्कत राव...

संपर्क: 9850458763





### काळेकिट्ट घोडे

**- परेश नरेंद्र कामत**

काळेकिट्ट घोडे धांवतात कॅनवासार खिंकाळत
काळेकिट्ट घोडे धांवतात कॅनवासार
काळेकिट्ट घोडे धांवतात
काळेकिट्ट घोडे
काळेकिट्ट

धांवत धांवत
घोडे पावले खंय?
दिसनात दोळ्यांक
दिसता फकत कॅनवास
धवोफुल्ल
आनी
येता आयकूंक एक सारको
कानाच्या पड्ड्यार खड खड खड खड
घोड्यांच्या टापांचो आवाज...

संपर्क: 9422640210





